जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ५ : जानेवारी २०२२

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



**भायले चित्र** : प्रसाद नायक
**भितल्ली चित्रां** : भारत जगताप, निशीत बोरकार.

संपादकीय

# २०२२ वर्साक येवकार...

नव्या वर्साचो 'जागा'चो हो अंक तुमकां भेटयतना आमकां खूप खोस भोगता. २०२१ वर्साचे सोंपतेर जेन्ना सगळीं समाज माध्यमां राजकारणाच्या रेब्यांत मुंगरलेलीं तेन्ना कोंकणीच्या मळार एक खूप खोसदेणी घडणूक घडली. ती म्हळ्यार कोंकणीचे नामनेचे कथाकार आनी कादंबरीकार दामोदर (भाई) मावजो हांकां भारतांतलो सगळ्यांत व्हडलो साहित्यीक सन्मान, 'ज्ञानपीठ पुरस्कार' घोशीत जालो. २००६ वर्सा स. रवीन्द्र केळेकार हांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळिल्लो. त्या उपरांत दुसरे फावट कोंकणी भाशेक हो भौमान लाभला.

भाई मावजो हांणी साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार हाताळल्यात. कथा, कादंबरी, निबंद, समिक्षक, बालसाहित्य हाचेच वांगडा पटकथा तशेंच संवाद लेखक म्हणूनय तांची नामना आसा. तांची आयज मेरेन जायतीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. ते भायर तांचीं संपादीत आनी अणकारीत पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत. राज्य आनी राष्ट्रीय पांवड्या वयले कितलेशेच पुरस्कार तांकां फावो जाल्यात. कोंकणीक भारतीय आनी आंतरराष्ट्रीय मळार नामना मेळोवन दिवपी भाई मावजो हांच्या भौमानाक 'जागा'चो हो आंक आमी ओंपतात.

ह्या आंकात भाई मावजो हांचेर मानेस्तांनी लेख बरयल्यात. डॉ. जयंती नायक हांणी भाई मावज्यांल्या पुरोगामी विचारांचेर एक नदर घाल्या. त्याभायर नामनेचे कथाकार आनी हालींच कादंबरीच्या मळाचेर पावल दवरपी डॉ. प्रकाश पर्येकार हांणी भाई मावजो हांच्या कथांचेर एक खास लेख बरयला. मावजो हांणी अणकारीत केल्ल्या 'वोल्गा रचीत विमुक्ता' ह्या कादंबरीचेर प्रा. रमा मुरकुंडे हांणी विस्तारान बरयलां. भाई मावज्यांची सगळी भिस्त तरणाट्यांचेर. गोंय विद्यापिठांत शिकपी मानसी धाउस्कार हांणी भाई मावजो हांचेर लेख बरयला. मानसीच्या रुपान 'जागा'क एक अभ्यासपुर्ण लिखाण करपी युवा लेखक मेळ्ळा.

'मरण येना म्हण!' ही भाई मावज्याची एक उत्कृश्ट कथा. कोंकणींतली चाकोरी भायली अशी ही कथा. ही कथा मावजो हांच्या खंयच्याच कथा झेल्यांत येवंक ना. पयलेच फावट ही कथा गुरुनाथ केळेकार हांच्या 'नवें गोंय' ह्या नेमाळ्यांत आयिल्ली. मागीर तिचो आसपाव स. अना म्हांबरो हाणी संपादीत केल्ल्या आनी 'जागा'न उजवाडायिल्ल्या 'प्रसादाफूल' ह्या प्रातिनीधीक कथा झेल्यांत केलो. वाचप्यांच्या आगऱ्याखातीर परत ही कथा आमी छापल्या.

अश्टतासांचे साहित्यीक मुकेश थळी हे गुणात्मक आनी संख्यात्मक पांवड्यार नेमान सातत्यान बरयतात. तांचें ललीत म्हळ्यार एक नाविन्यान भरिल्लें आनी वैचारीक काव्य. 'थंडगार कुळागर' हो तांचो ललीत निबंद मनांत थंडसाण हाडटा. कृ.म. सुखठणकार हांचो विनोदी लेख सदचेवरी तुमकां हांसयतलो.

२०२२ हें वर्स गोंयच्या फुडाराक एक मोडण दिवपी वर्स थारतलें. ह्या वर्साच्या सुर्वेक गोंयांत विधानसभेखातीर वेंचणुको जावपाच्यो आसात. भारतीय जनता पार्टी परत एक फावट आपलें नशीब आजमायता. तांच्या वर्चस्वाक शह दिवपाक साबार पक्ष गोंयांत आयल्यात. गोंयचें सगळें राजकारण धवळून गेलां. निष्ठा खुटयाळ्याक लायल्या हें सिद्ध करपी कितलेशेच फुडारी ह्या पक्षांतल्या त्या पक्षांत उडक्यो मारतात तें पळोवन भिरभिरी मारता खरी. ह्या वगतार मतदारांनी शांत रावन, विचार करुन मतदान करप गरजेंचें. ह्या सगळ्या घडणूकांच्या फाटभुंयेर गोंयचे नामनेचे उद्देजक, लेखक आनी विचारवंत दत्ता नायक हांचे कडल्यान आमी '२०२२ वर्स आनी गोंय' हो खास लेख बरोवन घेतला. विचार करुंक लावपी हो लेख तुमकां आवडटलोच. त्या भायर सदचीं सदरां आसातूच.

'जागा'चो हो अंक तयार जातनाच 'जागा'चेर आदीं नेमान बरोवपी आनी वाचक मनोहरबाब पै धुंगट हांका मरण आयलें. तांची पिराय ९१ वर्सांची आसली. 'जाग' मेळटगीर ते मुजरत फोन करुन आपल्यो प्रतिक्रिया कळयताले. 'जागा'चो दिवाळी आंक वाचून एक सोबीत सुंदर संग्राह्य आंक अशी प्रतिक्रिया दिल्ली. मनोहरबाबांक आमचीं आर्गां.

वाचप्यांचो मोग, बरोवप्यांचें फाटबळ आनी जायरातदारांचो आदार हें खंयचेय नेमाळें चलोवपाचीं तीन सुत्रां. हो मोग आमकां सदांच मेळत आयला म्हण आमी तुमकां देव बरें करुं म्हण्टात.

नवें वर्स तुमकां सगळ्यांक आयुश्य, आरोग्य आनी खुशालकाय घेवन येवं आनी कोरोनाच्या ह्या संकटांतल्यान आमची बेगीनच सुटका जांव अशें देवाकडेन मागणें.

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300



# २०२२ वर्स आनी गोंय

दत्ता दामोदर नायक

२०२२ वर्सात कितें जातलें हें सांगप कुस्तार पूण कितें जावंचें हें मात सांगूं येता.

२०२२ त गोंयचे विधानसभेची वेंचणूक जातली. भाजप, काँग्रेस, मगो, गोवा फॉरवर्ड, आप, तृणमूल काँग्रेस, रिव्हॉल्युशनरी गोवन्स आनी कितलेशेच अपक्ष वेंचणूक लढयतले. कोणाकूच स्पश्ट भोवमत मेळचें ना. अश्या वेळार काँग्रेसीचे सुमार १२ वा १३, मगोचे ४ वा ५, गोवा फॉरवर्डाचे २, आपाचो १, तृणमूलाचो १ अशे तरेन भाजपविरोधी पक्ष सरकार घडयतले अशें म्हाका दिसता. फाटल्या धा वर्सांत सत्तेर आशिल्ल्या आनी गोंयचें घट्टाण करपी भारतीय जनता पक्षाक कशेंच सत्तेर येवपाक दिवंक जायना.

फाटल्या पांच वर्सांत भाजपान काँग्रेसीचे १४, मगोचे २, गोवा फॉरवर्डाचो १ अशे करून १७ विरोधी पक्षाच्या आमदारांक फोडले.

२०२२ त गोंयच्या मतदारांनी पक्षांतर करपी आमदारांक नाकाशेवट करूंक जाय. तांच्या घरां कडेन धरणीं धरूंक जाय. तांच्या कार्यावळींचेर बहिश्कार घालूंक जाय. इतलेंच न्हय जाल्यार जंय जंय तांच्यो कार्यावळी आसतात थंय मोर्चे व्हरूंक जाय. थंय धुमशेणां कांडूक जाय. तांच्या मतदारसंघांनी खवदळ घालूंक जाय. दिसाळीं, थळावे चॅनल्स, सोशल मिडिया हातूंतल्यान अश्या आमदारांचेर टिकेचो शिंवर करूंक जाय.

आमदारांचें पक्षांतर म्हळ्यार ज्या पक्षाचे तिकेटीचेर ती वा तो वेंचून आयला वा आयल्या तो त्या पक्षाचोच न्हय जाल्यार ताका वा तिका मतां दिवपी मतदारांचो विस्वासघात. पक्षांतर म्हळ्यार पक्ष सोडप न्हय, पक्षांतर म्हळ्यार मनीसपण सोडप.

जो पक्षांतर करता ताचे परस जो पक्ष ताका घेता तो पक्ष चड गुन्यांवकार. पक्षांतर करपी आमदार ज्या मतदारसंघांतल्यान वेंचून आयिल्लो आसता त्या मतदारसंघाची तिकेट ताका मेळटली अशें उतर पक्ष ताका दिताच. म्हळ्यार त्या मतदारसंघांतल्यान आमदार जावपाचें सपन पळोवपी वावुरप्यांचेर पक्ष अन्याय करता. अश्या कार्यकर्त्यांनी ओगी रावंक जायना. पेडण्यां बाबू आजगांवकाराक भितर घेतना भाजपान राजेंद्र आर्लेकाराचो विचार केलो ना. मांद्र्यां दयानंद सोपटेक घेतना लक्ष्मीकांत पार्सेकाराचो, थिवीं नीळकंठ हळर्णकाराक भितर घेतना किरण कांदोळकाराचेर, साळगांवां जयेश साळगांवकाराक घेतना दिलीप परूळेकाराचेर, पणजे बाबुश मॉन्सेराताक येवकार दितना सिद्धार्थ कुंकळकार आनी उत्पल पर्रीकार हांचेर, सांवर्डड्यां दीपक पावसकाराक भितर घेतना गणेश गांवकाराचेर अन्याय जालो. भाजपाच्या वावुरप्यांचो राग भायर सरूंक जाय. आपल्याचेर अन्याय करपी, आपलो आत्मसन्मान माड्डुपी पक्षांत तांणी कित्याक वावुरचें? कित्याक रावचें? २०२२ वर्सा पक्षांतर करपी आमदारांक गोंयच्या मतदारांनी सरसरीत भायरी दिवंक जाय.

सत्ताधारी मंत्री आनी आमदार सोपूत घेतात थंय आसात रोखडेच पयशे खावंक लागतात. अशे मंत्री आनी आमदार हांकां सोशल मिडियाचो उपेग करून अक्षरशा नागडे करूंक जाय. आमचे कडेन RTI (Right to information) आसा. कोर्टां आसात. लोकपाल आसा.

गुन्यांवकारी मंत्र्यांक आनी आमदारांक ख्यास्त जावंकूच जाय. तशेंच सरकारी नोकर मस्तावल्यात, ते पयशे खातात ते खातातूच वयल्यान कामांय करिनात. तांकांय बुद्द शिकोवची पडटली. तीन वर्सां गोंयांत डेप्युटेशनाचेर येवपी उच्च सरकारी बिगर गोंयकार अधिकाऱ्यांक गोंय, गोंयचो भुगोल आनी गोंयचे प्रस्न समजुपाक वर्स लागता. फुडलें वर्सभर ते कशेभाशेन काम करतात. दोन-दोन म्हयन्यांनी आपले बायलेक वा घरच्यांक मेळूंक आपल्या गांवांत वतात. तांचें तिसरें वर्स गोंयांत खंय जमीन घेवची, खंयचे दर्यादिगे कडेन बंगलो घेवचो हें पळोवपांत वता. गोंयांतल्यान वतना ते गब्बर जावन वतात तें जालेंच पूण आपल्या सरकारी अधिकाराचो (गैर) वापर करून गोंयची जमीन स्वाहा करून वतात. अश्या सरकारी अधिकाऱ्यांक 'आर्रा तूं' अशें आमकां म्हणचेंच पडटलें. गोंयकारांकूच उच्च सरकारी अधिकारी जावंक मेळचें म्हणून 'गोवा कॅडर' करपाची गरज आसा ही गजाल आमी गोंय सरकाराक पटोवन दिवची पडटली. गोंयच्या मंत्र्याक गोंयकार सरकारी अधिकाऱ्यां परस बिगर गोंयकार सरकारी अधिकारी अदीक मानवतात. गोंयचो अधिकारी खंयूय फुतफुतत हाची तांकां खंय भिरांत दिसता.

दिगंबर कामत मुख्यमंत्री आशिल्ले तेन्ना तांणी आंतरराष्ट्रीय नामना आशिल्लो पद्मविभूषण गोंयकार आर्किटेक्ट चार्लस कुर्रेया हांचे अध्यक्षताये खाला गोंयचो रिजनल प्लॅन करचे खातीर एक पंगड (Task force) नेमिल्लो. हांव तेन्ना घर बांदणी उद्देजक संघटणेचो (क्रेडाय) अध्यक्ष आशिल्लो. देखून म्हजोय त्या पंगडांत आसपाव आशिल्लो. चार्लस कुर्रेयांच्या फुडारपणा खाला आमी जाता तितलो बरो रिजनल प्लॅन केलो. दिगंबर कामत सरकारान ताका कायदेशीर रुप (Notify) दिलें. फुडें झुटयेर आयिल्ल्या मनोहर पर्रीकार सरकारान कित्याक कोण जाणां हो रिजनल प्लॅन कुशीक सारलो. कांय वर्सांनी कितें म्हणून कोण जाणां मनोहर पर्रीकारानूच हो रिजनल प्लॅन आसा तसो चालीक लायलो. चार्लस कुर्रेया हांणी केल्ल्या ह्या रिजनल प्लॅनांत कितल्योश्योच बऱ्यो गजाली आसात. शेतां आनी उदकाळ सुवातो पर्यावरणाचे नदरेन संवेदनशील (Eco sensitive zones) म्हणून राखून दवरल्यात. थंय कसलोच विकासाचो प्रकल्प करूं नजं. खेड्यांतल्या जमनीचो FAR देंवयला. देखून खेड्यांनी भोवमजली प्रकल्प बांदूंक मेळनात.

कांय वर्सांनी भाजपा सरकारान नगर नियोजन कायद्यांत १६ ब हें कलम घुसयलें. हे करणेन चार्लस कुर्रेया हांच्या रिजनल प्लॅनाची माती जाली. कोणेंय उठचें आनी आपली कसलीय जमीन (पर्यावरणाचे नदरेन संवेदनशील आसल्यार लेगीत) १६ ब कलमाचो आदार घेवन, मंत्र्याक पयशे खावोवन आपल्याक जाय तशी जाय त्या प्रभागांत (म्हळ्यार घरां बांदपाच्या, वेपारी आस्थापनां खातीर ऑफिस काडपाच्या, हॉटेल बांदपाच्या, कारखानो घालपाच्या प्रभागांत) आसपाव करून घेवची. कांय लोक १६ ब कलमा आड कोर्टांत गेल्यात. कोर्टाचो निर्णय अजून जावंक ना. घडये २०२२ वर्सा तो जायत. ते मेरेन ह्या कलमाचो आदार घेतिल्ले लोक आपलें बांदकाम करून मेकळेय जायत. कोर्ट हीं बांदकामां मोडपाचो आदेश दीत काय ना हें सांगूं येना.

म्हज्या मतान २०२२ वर्सांत पणजे-बेळगावी हो महामार्ग चालीक लागूंक जाय. गोंयचो सुवर्ण चतुश्कोन येवजणेंत आसपाव जावंक ना. देखून हो महामार्ग गरजेचो. आमकां गोंया भायर वचपाक होच मुखेल मार्ग. ते भायर बेळगांवच्यान फुलां, फळां, भाजी, दूद, मटण ह्यो वस्तू ह्याच मार्गान गोंयांत येतात. हो महामार्ग बांदतना उण्यांत उणीं झाडां उडोवचीं पडटलीं हाची जतनाय घेवंक जाय. जितलीं झाडां मारचीं पडलीं तितलींच नवीं झाडां लावूंक जाय.

पर्यावरणवादी संघटणा संघर्शात्मक चळवळी करतात. त्यो तांणी करच्योच पूण जे खंयचेय गजालीक विरोध करतात तांचेर ते गजालीक पर्याय सुचोवपाची जापसालदारकी येता; येवंक जाय. पर्यावरणवादी संघटणांनी रचनात्मक कार्यावळीय करूंक जाय. महात्मा गांधीचें खाशेलपण म्हळ्यार ते जशे संघर्शात्मक चळवळी करताले तशेच ते प्रबोधनात्मक आनी रचनात्मक कार्यावळीय करताले.

दर वर्सा पावसा पयलीं गोंयभर हजारांनी झाडां गोंयभरच्या रानांनी, भाटांनी, खेडीं आनी शारांच्या उक्त्या सुवातांनी, रस्त्याच्या दोनूय वटांनी लावपाची कार्यावळ सगल्या पर्यावरणवादी संघटणांनी आनी आमी सगल्यांनी २०२२ च्या जून म्हयन्यांत हातांत घेवंक जाय.

न्यूयॉर्क शाराच्या मध्यार सुमार ७५० एकरांचें सेंट्रल पार्क आसा. आमकां सांगें म्हालांत १००० एकरांचें व्हडलें पार्क करूं येता. ह्या बॉटनिकल गार्डनांत गोंयचीं सगलीं झाडां, वाली, फुलां, फळां आसचीं. थंय बायोडायव्हर्सिटी (जैवीक विविधताय) आसची. तळयो आसच्यो. तळीं आसचीं. घोगे आसचे. कारंजी आसचीं. फुलपाखे, सवणीं येवचीं म्हणून वाटयांनी उदक, गंव, तांदूळ, फळांचे कुडके, म्हौंव दवरचें.

सह्याद्रीच्या माथ्यार गोंयचे शिमे आलतडीं हिल स्टेशन जावूं येता जाल्यार पळोवचें. गोंयांत येवपी पर्यटक गोंयांत सरासरी चार दीस रावतात. हो राबितो सात दिसां मेरेन वाडोवंक जाय.

कर्नाटकांतल्या कुर्ग वाठारांत पर्यटक होम स्टे पसंत करतात. गोंयांत येवपी पर्यटकांक सैमीक नदरेन सोबीत, सुंदर अश्या गांवांतल्या घरांनी रावंक मेळचें म्हणून सरकारान तजवीज करूंक जाय, तशी येवजण आंखूक जाय.

गोंयांत हॅलिकॉप्टरांतल्यान गोंय दाखोवपाची सेवा सुरू जावंक जाय. पर्यटकांक गोंयांतल्यान हॅलिकॉप्टरांतल्यान कुर्ग, हम्पी, बदामी, विजापूर, रत्नागिरी वचून येवपाची सेवा सुरू करूंक जाय. हॉलंडाक जशे सायकलींग करपा खातीर पाथ्स आसतात तशे सायकलींग पाथ्स गोंयांत आसूंक जाय.

२०२२ वर्सांत खणीची पावणी जावंकूच जाय. ही पावणी जातकच खणी सुरू जावपाक उणींच दोन वर्सां लागतलीं. तीन म्हयन्यां भितर खणी सुरू करतले, स म्हयन्यां भितर खणी सुरू जातल्यो हें आयकून आयकून आमचे कान विटल्यात, भेरेल्यात. फुडल्या वर्सा तरी खणींची पावणी जावंकूच जाय.

२०२२ वर्सा सोनसड्यार कोयराचेर प्रक्रिया करपी प्रकल्प जातलो अशें आवंडुया. गोंयच्या सगल्या खेड्यांतलो कोयर उखलप आनी ताचेर प्रक्रिया करप गरजेचें.

२०२२ वर्सा जुवारेचो पूल आनी बांबोळी ते वेर्णे फ्लायओव्हर सुरू

*(पान २१ चेर)*



# भाईची पुरोगामी विचारसरणी

**डॉ. जयंती नायक**

नामनेचे कोंकणी साहित्यीक दामोदर मावजो, म्हणल्यार भाई मावजो हांकां २०२१ वर्साचो भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहीर जाल्ल्याची खबर कळ्ळी आनी मना-काळजा सावन खूब उमेद जाली, तेच बरोबर एक सुखद धक्कोय बसलो. धक्को इतलेच खातीर की ज्ञानपीठ पुरस्कार ह्या दिसांनी जाहीर जावपाचो आसा, हे विशीं म्हाका कांयच कल्पना नाशिल्ली. रवीन्द्रबाबाक पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना ते समितीचेर भाई आनी हांव वांगडी म्हण जाल्यार मुंबयचे जे.बी. मोरायस निमंत्रक आशिल्ले. आमी सतत चार वर्सांवयर काळ रवीन्द्रबाबाच्या नांवाची शिफारस करीत आशिल्लीं. आनी शेवटा तो तांकां जाहिर जालो. कोंकणी भाशेखातीरचो तो पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार. ह्या पुस्कारान कोंकणी भाशेक एक मोठें संचित मेळोवन दिलें.

पयल्या पुरस्कारा उपरांत सुमार एका तपाचो काळ गेलो. ह्या काळांत कोंकणी खातीर नांवांची शिफारस जाताली, पूण आमचेकडेन योग्यतेचे साहित्यीक आसूनय नांवांची निवड जावंक पावलीना. घडये आमच्यो शिफारशी आमच्या साहित्यीकांची योग्यता योग्य तरेन मांडूंक कमी पडटाल्यो आसत. जेन्ना जेन्ना भारतीय ज्ञानपीठ संस्थेकडल्यान शिफारशी धाडात म्हण पत्र येतालें, वा फॉर्म येतालें तेन्ना तेन्ना मन याच विचारान खंती जातालें. कोंकणी खातीरचो ज्ञानपीठ एकानूच थांबचो बी ना मूं ? असो प्रश्न्य मनांत तयार जातालो. आनी हे फाटभूंयचेर २०२१ वर्साच्या ज्ञानपिठाखातीर भाईच्या नांवांची निवड जाल्या हें कळटकच मन खऱ्यांनीच भुरकुटलें. वा भाई !...वा कोंकणी! ...तोंडांतल्यान आपसुकच उतरां भायर पडलीं.

भाई हो एक व्हड साहित्यीक. सुमार तीन म्हयन्यांआदीं एका विशयाचेर चर्चा करतना हांवें भाईक म्हणिल्लें, भाई तुमी आंतरराष्ट्रीय किर्तीचे साहित्यीक. तेन्ना तांणी तें हांसपाचेर व्हेल्लें. म्हणपाक लागले, आंतरराष्ट्रीय न्ही गो फक्त राष्ट्रीय. पूण आज तांकां फावो जाल्ल्या ज्ञानपीठ पुरस्कारान तें प्रमाणसिध्द केलां. कारण भारतीय ज्ञानपीठ हे संस्थेची स्थापना जरी भारतांत जाली तरी ह्या पुरस्काराक नोबल पुरस्कारा फाटोफाट नामना आसा अशें सांगतात. तशें भाईचें साहित्य आंतरराष्ट्रीय भाषांनी अनुवादीत जालां, तांणी विदेशांतल्या साबार राष्ट्रांनी भोवंडी केल्या, तशेंच आंतरराष्ट्रीय थरावेल्या कार्यावळींनीय वांटेकार जावन कोंकणी भाशेचें प्रतिनिधित्व केलां.

कोंकणी संवसारांत दामोदर मावजो हांकां भाई म्हण वळखतात, ही गजाल सर्वज्ञात आसा. भाई हें उतर भाऊ ह्या कोंकणी शब्दाक समानार्थी. भाऊ म्हणल्यार व्हडलो भाव. आनी व्हडलो भाव हो गुणा-वागणुकेन सदांच आर्दश आसचोच ते भायर तो आपल्या फाटल्या भावंडांचेर माया करपी तांची तोखणाय - कौतूक करपी, वांगडा तांणी चूक केल्यार तांचे कान पिळपी वा ती दाखोवन दिवपी असो आसचो, अशी अपेक्षा आसता. भाई हें संकल्पनेंत पुराय उतरतात म्हण आज पुराय कोंकणी संवसाराक तांकां फावो जाल्ल्या भोवमानाक लागून उपाट खोशी जाल्या, तशेंच अभिमानय भोगला. भाईक फक्त कोंकणी साहित्य मळाचेरूच न्ही तर पुराय गोंयभर विवीध स्थराचेर नांव आसा, प्रतिशठा आसा. ह्या सगळ्या स्थराचेर तांकां मेळिल्ल्या ज्ञानपीठ पुरस्काराक लागून तांचें अभिनंदन जाता. सगळेच तांकां आपल्यो परब्यो व्यक्तीशा दिवंक पावलेनात वा धाडूंक शकलेनात, पूण सामान्यांतल्या सामान्याक लेगीत तांचें मनाकाळजा सावन कौतूक आसा. केपेंचीच देख दिवची जाल्यार. भाईक ज्ञानपीठ जाहिर जालो ताचे दुसरे दिसा केपें बाजारांत कितल्याशाच लोकांनी म्हजें अभिनंदन केलें, आनी म्हणलें, आगो अभिनंदन, तुमच्या भाई मावज्यांक ज्ञानपीठ मेळ्ळो! म्हाका ते दिसा सर्ग फकत दोन बोटांचेर आसा अशें दिसलें.



भाईचें साहित्य कितलें श्रेश्ठ आसा, आनी तांणी कितलें लेखन केलां, हें आतां कोणें मुद्दाम सांगपाची गरज ना, तशें केल्यार सुर्याची किरणां कितलीं लखलखीत हें सांगिल्ले भशेन जातलें, पूण एक गजाल मात मुजरत सांगूंक जाय ती म्हणजे भाई हे पुरोगामी विचार सरणीचे साहित्यीक. तांणी सदांच

सनातनी विचारां आड परखडपणान लेखन केलां आनी ताका लागून तांणी स्वताचेर संकश्टाय ओडून घेतल्यांत. पूण कितेंय जालें तरी तांणी स्वताच्या विचारांकडेन तडजोड मात केन्नाच केली ना.

भाईन स्वताच पुरोगामी विचारसरणीचें लेखन केलें ना तर तांच्या ज्युनियर्साक तांणी अंधश्रद्धेक वा समाजांतल्या नश्ट्यां प्रथांचो उदो उदो करपी लेखन टाळचें आनी समाजाक उजू मार्ग दाखोवपी लेखन करचें असो सदांच सल्लो दिला. कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी चळवळ ही पुरोगामी विचार सरणीची चळवळ अशी वळख आसा, ही वळख घडपांत भाईचो वांटो खूब आसा म्हणल्यार अतिताय जावची ना. म्हाका स्वताक याद जाता. हांव नवेंच कोंकणी कथा बरोवपाक लागिल्लें. ऐंशाच्या दसकाचो तो काळ. हांवें गाराणें ही पयली कोंकणी कथा बरयली ती कुळागरांत छापून आयली. कथेंत जाण्टेपणांत लग्न जाल्ल्या दादल्याची एका धूव सोब सारक्या वयाची बायल आपल्या ल्हान भुरग्यांक सोडून एका तरण्या दादल्याबरोबर पळून वता, तेन्ना कुश्टा देंवचाराक तिचें निसंतान जावचें म्हण गाराणें घालता, मागीर ताका आपली चूक होलमता. बायलेचें निसंतान जावप म्हणजे आपलोच भुरगो मरप. तेन्ना ताका पश्चाताप जाता. कथा छापून येतकच म्हाका भाईचें एक पत्र आयलें. कथा खूब आवडली, पूण आपले कथेंतल्यान अंधश्रध्देक पोसवण मेळचिना हें भान दवर, हें तांणी म्हाका वायट दिसचें ना अशे नुलयत भाशेंत बरयिल्लें. म्हाका तें व्हडलेंशें समजलें ना, कारण हांव त्या काळार चडशें गांवांत आयकल्ल्यो, घडिल्ल्यो गजाली बरयताले, लेखक म्हण आपली नदर तांतुतल्यान मांडूंक जाय हें म्हाका खबर नाशिल्लें. गाराण्या उपरांत हांवें राखणदार ही कथा बरयली. हे कथेंतय खळावेल्या भाताची राखण सोरोप करता अशें कथानक आशिल्लें. ही कथा छापून येतकच भाई एके कार्यावळींत मेळ्ळे. तांणी म्हाका बरे तरेन समजावन सांगलें. म्हणलें, एका लेखकाचें कर्तव्य समाजाचें योग्य प्रबोधन करप. ताका फुडें व्हरप, फाटीं न्हय.

भाईचीं ती उतरां हांवें म्हज्या मनांत कोरांतून दवरलीं आनी आजवेर ताकां पाळो दिलो. त्या कथा उपरांत जायत्यो कथा बरयल्यो, तातूंत लोकवेदांतले कितले तरी विशय केळयले, पूण सदांच पुरोगामी दृश्टींतल्यानच ते मांडले.

जिणेकडेन सकारात्मक नदरेन पळोवपी, कोंकणीची सेवा हो आपलो नीजधर्म मानपी आनी लेखनाक जिणेचें सर्वस्व मानपी, सदांच उदेत्या सुर्याक फुडो करपी, हांसत्या मुखान आनी मोवाळ उतरांनी आपले विचार नवे पिळगेच्या मनाचेर बिंबोवपी भाई सारके मनीस - साहित्यीक एका युगांत एकूच जातात. तांकां दुसरो पर्याय ना.

भाईक फावो जाल्ल्या ज्ञानपीठ भोवमाना खातीर मनाकाळजा सावन अभिनंदन. कौटुंबीक संवसारा वांगडा, भाईच्या साहित्य संवसारांतय सदैव सावळी जावन तांच्या सांगाताक वावुरपी शैलाभाभी आनी तांच्या तिगांय धुवांक, रुपाली, मेघना आनी सोबीता तशेंच तांच्या कुटूंबाच्या हेर सगळ्या वांगड्यांक परबीं.

संपर्क : 9823575623

***



# कोंकणी कथेची घटमूट बुनयाद घाल्ले लेखक

डॉ. प्रकाश पर्येकार

गोंय मुक्ती उपरांत गोंयची अस्मिताय, कोंकणी भाशा आनी ताचे वांगडाच साहित्यीक चळवळ उबी रावली. हे चळवळींत गोंय अभिमानी, भाशा अभिमानी आनी सर्जशील साहित्य निर्मिती करपी लेखक अग्रस्थानार आशिल्ले. ते त्या चळवळीचे आधारस्तंभ आशिल्ले. ते चळवळीन तांकां घडयले काय तांच्यानी चळवळीक फाटबळ दिलें हें सांगप तशें कठीण. भाशेच्या अस्तित्वाचे असंख्य प्रस्न घेवन उबो राविल्लो काळ तो. त्या काळाक समजून घेतिल्ले आनी तत्कालीन परिस्थिती वळखून ह्या गोंय अभिमान्यानी दोन हात केले. लेखक दामोदर मावजो हें तातूंतलें एक म्हत्वाचें नांव.

एक आंतरीक जाणिवेतल्यान घडिल्लो लेखक हो. 'स्व'ची वळख पटिल्लो. समेस्त कोंकणी भाशिकांची गरज वळखिल्लो. फुडाराचो दिश्टावो जाल्लो. आपल्या मतां कडेन प्रमाणीक आशिल्लो. ह्या लेखकान कथा ह्या साहित्य प्रकाराचेर मनाथावन मोग केलो. कादंबरी लेखन करून लेगीत, म्हजो पींड कथाकाराचो. अशे म्हणपी ह्या लेखकान कोंकणी कथा एका उंचायेर व्हरून दवरली.

भुरगेंपणांत तांची आवय तांकां काणयो सांगताली. ताका लागून काणयांचें बीं तांच्या मनात रुजत पडलें. मुखार वाचनाची आवड निर्माण जाली. एक पोशक आनी सुपीक भूंय कसदार वाचनातल्यान तयार जाली. आयकल्ल्यो काणयो आनी वाचिल्लो कथा हे प्रक्रियेचो आवटपूट म्हळ्यार ह्या लेखकान आमकां दिल्ली आधुनीक कोंकणी कथा.

जण एका लेखकाची लेखन प्रक्रिया आगळी वेगळी आसता. कथा बीज मेळप हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. अणभव संपन्न जिवन जगप आनी प्रखर निरिक्षण शक्त आसप हे बरें कथा बीज मेळपा फाटलें एक गुपीत. ताचे खातीर जिणेची साधना जाय. भरभक्कम सकारात्मक विचारांची बुनयाद जाय. अणभव ते अनुभुती हो एक दीर्घ आनी खडतर प्रवास. अणभव घेतात पूण आमी अणभुती मेरेन पावनात. प्रतिभाशाली लेखकाचो प्रवास सुकर जाता. साबार घटणा प्रसंगांतल्यान ताका कथा बिजां मेळटात. मनाची अस्वस्थताय आनी काळजाची धडधड वाडोवपी कथा बीज मेळटकच ताचे जिणेचें सार्थक जाता. आनंद व्दिगुणीत जाता.

'तूं वचूं नकां' ही कथा दामोदर मावजो हाणी १९६३ वर्सा बरयली. एकोणीस वर्सांचे पिरायेचेर बरयल्ली ती तांची पयली कथा. ती कथा गुरुनाथ केळेकार हांच्या नवें गोंय ह्या नेमाळ्यांत उजवाडा आयली. हे गजालीक अठ्ठावन वर्सां फाटली. हाचोच अर्थ, भाई मावजो फाटलीं सुमार स दसकां सातत्यान कथा लेखन करतात. हांव कथा बरयना. म्हज्या कडल्यान कथा बरोवन घेता अशें मानपी हे कथाकार. कारण भोंवतणचे समाजवेवस्थेचेर ह्या लेखकान अपार प्रेम केलें. समाजाक पळोवपाची आपली नदर निवळ दवरली. समाजांतल्या व्यक्तींक आपले लेखले आनी आपले कथेंत वस्तूनिश्टाय हाडली. अशी भुमिका






दवरतकच कथा बरोवची पडना तीच आपल्याक बरोवन घेता. जीव अस्वस्थ जाता ते अवस्थेक ते  कथासमाधी म्हणटात.

भाई मावजो वेवसायान पसरकार. आपल्या जिणेचीं तांची साबार वर्सां पसऱ्याचे नाबीर गेल्यांत. गिरायकाच्या रुपांत पसऱ्यार आयिल्ल्यो असंख्य व्यक्ती तांच्या साहित्यातल्यो व्यक्तिरेखा जाल्यात. कार्मेलीन कादंबरेंतलें बेलींदा एक उत्कृश्ट देख. एक फावट एकलो आपल्या गोरवांक ओडीत घेवन मडगांवां बाजाराक विकपाक घेवन वतालो. गोरवां खपलीं नात. परतीचे वाटेर आतां गोरवां मुखार चलतालीं तो फाटल्यान... ही घटणा पळयतकच लेखकान 'कोयसावांलीं गोरवां' ही कथा बरयली. काळजाचो आताक आयिल्ल्यान भाई मावजो हॉस्पिटलांत आशिल्लो. शेतकी खात्याचो अधिकारी तांचे खबरेक आयलो. गांवांत गेल्ले कडेन कडेन खारीज बांदपाखातीर सरकारान जमीन घेतल्या. पूण एकली बायल पयशे व्हरपाक कथीच येना. जमीन व्हरात, पूण झाडां कातरूंक दिवचीं ना म्हणटा. ही खबर ताणें मावज्याक सांगली. ह्याच वेळार तांकां 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' हे कथेचें बीज मेळ्ळें. 'शी इज डॅड, 'बंद', 'आनंदयात्रा', 'सिवीक,' 'वेळेवयलीं घरां' ह्या कथांतले अणभव अस्सल लेखकाचे. 'सपनमोगी' ह्या कथा संग्रहांत आस्पावीत जाल्ली 'कथाकारान बरयिल्ली कथाकाराची कथा' हिवूय कथा स्वता लेखकाच्या अणभवाचेर आदारून आसा. ह्या तांच्या अणभवाचो हांव एक साक्षी आसां. नवी दिल्ली हांगां २००३ वर्सा घडिल्ली गजाल. नवी दिल्लीचे 'कथा' हे संस्थेन आयोजीत केल्लें आतंराष्ट्रीय कथा संमेलन आनी कथा पुरस्कार वितरण सुवाळ्याक लेखकाक एके तामीळ लेखिकेच्या संदर्भांत आयिल्लो अणभव वयले कथेंत माडला.

कांय लेखकांक वाचनांतल्यान लेगीत कथा बीज मेळटा. आल्बर्ट कामू हांचीं प्लेग ही कादंबरी वाचून भाई मावजो हांका 'म्हजें रितें जिणें' हे कथेचें बीज मेळ्ळें. कथा बीज मेळटकच ल्हानश्या कागदा कुडक्यार तें बरोवन दवरतात. आयज मेळिल्ल्या कथा बिजाचेर ते त्याच दिसा कथा बरोवप प्राधान्य दितात. तशें जालें ना जाल्यार जायते फावट कथा बरोवपाची उरता अशें तांचें मत आसा. अशीं कितलींशींच कथां बिजां बरयल्ले ल्हान व्हड कागदा कुडके तांचे लागीं आसात.

ह्या कथाकाराक कथेचो शेवट पयलीं सुचता. अशें जातकच शेवटा कडल्यान सुरवाते कडेन वचपाचो प्रवास लेखकाचे तकलेंत सुरू जाता. कथेच्या बिजाचें रुपांतरण कथानकात जाता. घटणा आनी प्रसंगांचीं जुळवा जुळवण जाता. पात्रां कथानकांत रीग घेतात आनी आपलें स्थान निश्चीत करतात. कथाकाराक शेवट पयलीं गवसल्ल्यान कथेचें लँडींग सुखरूप जाता. ना जाल्यार जायते फावट शेवटूच हाताक मेळनाशिल्ल्यान कथा भरकटपाची शक्यताय आसता.

कथेचो विशयच प्रयोग आनी तंत्र घेवन येता ह्या मताचो हो लेखक. रुमडफूल ह्या संग्रहांतल्यो सगळ्योच कथा दिर्घ. 'विशुती' सारकी विज्ञान कथा ह्या संग्रहांत आसा. खरो लेखक तंत्राच्या फाटल्यान धांवना. तंत्र ताचे फाटल्यान येता. कांय कथा लेखक एका परस चड बसका घेवन कथा पुर्ण करतात. मावजो कथा एके बसकेंत बरोवन हाता वेगळी करतात. ते भोवप्रवसी लेखक न्ही. वर्साक दोन ते तीन कथा तांच्या हातांतल्यान बरोवन जातात. बरें बरोवप हे गजालीक ते अग्रस्थान दितात. कितलें बरोवंचें आनी कितें बरोंवचें हाची जाण आशिल्ले लेखक आमच्या कोंकणीत आसात ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल. तांचीं हीं मार्गदर्शक तत्वां नवोदीत बरोवप्याक प्रेरणा दिवपी आसा.

लेखका भितर संशोधक आसपाक जाय अश्या मताचे भाई. संशोधन केले बगर बरयता तांचें लेखन उखलापें जाता अशे ते मानतात. ह्या विचारांत तथ्य आसा. जायते फावट कथा सुचतकच लेखक घाई गडबडीन कथा बरोवन हाता वेगळी करतात. ताचे खातीर जाय तीं तथ्यां सोदपाची तकालस ते घेनात. हाका लागून चुकिचे संदर्भ तातूंत रीग घेनात. बरयल्लें पडताळून पळोवन. आपली कथा परत चिकित्सक नदरेन वाचप आनी तपासून पळोवन ह्या मताचे भाई मावजो. कार्मेलीन कादंबरेंत काजाराचो प्रसंग आसा. लेखकान क्रिस्तांव लोकांचीं काजारां खूब पळयल्लीं. पूण ते तितल्याचेर निंबून रावले नात. कादंबरेंत वेवस्थीत आनी अचूक चित्रण जावंचें म्हण काजारां खूब लागींच्यान पळयलीं अणभवलीं आनी मागीर ते बरोवपाक बसले. सुनामी सायमन हे कादंबरीत खारवी समाजांचें जिवन अधोरेखीत करपा खातीर ते त्या समाजांतल्या जाणकारांक वचून मेळळे. मुखार तामीळनाडू राज्यांत वचून रेस्क्यु कँपाक भेट दिली.

भाई मावजो सासश्टी भागांतल्या क्रिस्तांव जिवनाकडेन प्रामाणीक रावून लेखन केलां. मावज्याले कथेंच  इगर्ज येता.  कपेल, भाटां, रेंदेर, तारवटी, कुवेतकार, रांपण, कपेल हो परिवेश घेवन येता. सामाजीक इतिहास जाणून घेवपाक हांव कादंबरी वाचतां अशें भारतीय इतिहासकार वि.का. राजवाडे म्हणटा. फाटल्या पन्नास साठ वर्सां फाटली क्रिस्तांव समाजाची तत्कालीन समाजवेवस्था अभ्यासपाची आसत जाल्यार आमकां भाईचें कथनात्मक साहित्य वाचचें पडटलें. कारण बदलत्या समाजाची अचूक निरिक्षणां तांच्या ह्या साहित्यांत आमकां पळोवंक मेळटात. भाशीक नदरेनूय हो अभ्यास म्हत्वाचो थारतलो.

फाटलीं स दसकां भाई मावजो कथा लेखन करता. तांच्यानी सातत्य सोडूंक ना. कांय लेखक एका साहित्य प्रकाराक पुर्णविराम दितात आनी दुसऱ्याक धरून मुखार वतात. भाईन कादंबरी बरयली पूण कथेकडेन आडनदर केली ना हें विशेश. पिरायेच्या ६० वर्सां मेरेन तांच्यानी भुसारी पसरो चलयलो. दिसभर पसऱ्यार काम करप आनी रातचें बैठक मारून कथा लेखन करप. जागरणां करून कथा निर्मिती केल्ल्या कथाचो संग्रह म्हळ्यार जागरणां.

आमचे कडेन पूर्णवेळ लेखक नात. आपली नोकरी वा वेवसाय सांबाळप. आपल्या घरांतल्या लोकांक वेळ दिवप. सोयरीं - धायरीं, इश्ट-परिवार आनी ताचे भायर कोंकणीच्यो भाशीक आनी साहित्यीक कार्यावळींनी वांटेकार जावप अश्यो एका परस चड भुमिका आमच्या लेखकांक करच्यो पडटात. ह्या सगळ्यांचो ताळमेळ घालप तशें कठीण आसता. अशें आसलें तरी पसरो आपले सर्जक प्रक्रियेआड आयलो ना अशें मावज्याचें प्रामाणीक मत.

ह्या लेखकान आमकां 'मिंगेलिलीं घरचीं', 'खिळी', 'तेरेझालो घोव', 'रुमडफूल', 'तो हांव न्हय', 'कोयसावांलीं गोरवां', 'भुरगीं

म्हगेलीं तीं', 'सपनमोगी', अश्यो जायत्यो लोकप्रिय कथा आमकां दिल्यो. असंख्य व्यक्तिरेखा तांच्यानी उब्यो केल्यो. अर्थपुर्ण सुटसुटीत वाक्यां तांचे हे शैलीचें बलस्थान. हे तांचे व्हांवत्या भासशैलीक लागून तांची कथा वाचनीय आनी काळजाक स्पर्श करपी थारली. तांची कथा वाचताना कितें तरी वेगळें अणभवता हाचो भास जाता. वाचक एका वेगळ्या परिवेशांत भितर सरता. कथानक, वातावरण, व्यक्तिरेखा, संवाद आनी निवेदनातल्यान एक उच्च आनंद तो घेता. दोन वाक्यां मदलो मोनेळ मन थक्क करता. जायते फावट कथाकाराच्या एका शब्दांत लेगीत आकांताची तांक आसता. अश्या वेळार वाचपी थक्क जाता. तो थंय थांबता. भाईच्या साबार कथांचे शेवट तर 'शॉक ट्रिटमेंट' दिवपी आसात. कथा जंय सोंपता थंय वाचकाच्या मनात दुसरी कथा आकार घेता. हेंच तर कथेचें खरें जैत आसता.

तांच्या कांय कथांचेर टेलीफिल्मां जालीं. तांच्यो साबार कथा मराठी, हिन्दी, कन्नड, तेलगू, तमील, मल्याळम, गुजराती, इंग्रजी तशेंच पुर्तुगेज भाशेंत अणकारीत जाल्यात. १९८०च्या दशकांत एक प्रतिथयश कथाकार म्हूण कोंकणी साहित्याच्या मळार ते नांवारुपाक आयले. 'रुमडफूल' ह्या कथा संग्रहान तांकां एक उंची दिली. हो कथा संग्रह 'शांततेचे घण' ह्या माथाळ्या खाला मराठींत आनी 'मिराज' ह्या नांवान इंग्लीशींत प्रकाशीत जाला. 'भुरगीं म्हगेलीं' तीं हो संग्रह 'दीज आर माय चिल्ड्रन्स' ह्या नांवान इंग्लीशीत अणकारीत जाला. 'तेरेझास मॅन एँड आदर स्टोरीस फ्रॉम गोवा' हो इंग्लीश भाशेंच अणकारीत कथांचो संग्रह कोंकणी साहित्याच्या मळार सगळ्यांत चड अणकारीत जाल्लो हो लेखक सर्वदूर मेरेन पावला ही कोंकणी कथेच्या मळावयली सुखद गजाल.

लेखकान आपल्या विचारांक दिशा दिवंक जाय अशें मानपी हो लेखक. लेखकाकडेन वाचन आसपाक जाय. जिणेकडेन पळोवपाचो दृश्टीकोण आसपाक जाय. आपूण हेरां पसर वेगळें बरयतलों अशी धारणा आसपाक जाय अशें मानपी हो कोंकणी लेखक. हे गजाली वयल्यान तांचो लेखना संदर्भांत आशिल्लो कमिटमेंट आमच्या लक्षांत येता.

कथा साहित्य खऱ्या अर्थान वाडीक लागपाक जाय जाल्यार बरयल्ल्या साहित्याचेर चर्चा जावंक जाय. बरें आनी खरें कितें हें नवोदीत लेखकान समजून घेवंक जाय अशे ह्या लेखकाक दिसता. हेच तळमळींतल्यान ते युवा लेखकांक मार्गदर्शन करतात. कशें बरोवचें आनी कितें वाचचें तें सांगतात. जेश्ट लेखक ह्या नात्यान बऱ्या युवा लेखकाक हेरून ताची चौकशी करतात. ताचें खातीर संदी उपलब्ध करून दितात. ह्याच उद्देश्यातल्यान मिनी कथा संमेलनाची संकल्पना मांडून संमेलनां आयोजीत केलीं. सुनापरान्त दिसाळ्यांत 'मावज्याले कसवटेर' सारकीं सदरां चलोवन नवोदितांक मार्गदर्शन केलें.

पुरस्कारा फाटल्यान लेखकान वचचें न्ही हें तांचें सांगणें. पुरस्कार तुमच्या फाटल्यान येवंक जाय हें तांचें मत. पुरोगामी विचारांचे ते पुरस्कर्ते आशिल्ल्यान जात आनी धर्माचे चौकटी भायर सरून आमकां बरोवंक कळूंक जाय असोय ते कानमंत्र दितात.

गांथन (१९७१), जागरणां (१९७५), रुमडफूल (१९८९), भुरगीं म्हगेलीं तीं (२००१), सपनमोगी (२०१४) आनी तिश्ठावणी (२०२०)

*(पान २७ चेर)*



# विमुक्ताः एक परिचर्चा

प्रा. रमा मुरकुंडे

**प्रस्तावना**

धतरीच्या फाटीर वेगळ्या वेगळ्या सामाजीक रचनेंत कांय वेळार एखाद्या व्यक्तिच्या विचारांक लागून वा कांय वेळार घडणुकांचो परिणाम म्हण वेगळ्यो वेगळ्यो विचारप्रणाली उदेवाक पावल्यात. ज्या राजकीय, भुगोलीक वाठारांत वा समाजांत त्यो रूजवणा आयल्यात तितल्याच वाठारा पुरत्यो मर्यादीत न उरता तांचो प्रसार आनी प्रचार वेगान जाला अशें मत इतिहासाचेर नदर मारतकच जावूं येता. हाचे फाटलीं दोन कारणां दिसतात तीं म्हणल्यार आर्थीक दळण-वळण आनी शिक्षण.

आर्थीक दळण-वळण वेवस्थीत करपाच्या गरजेंतल्यान नव्यो वाटो, नव्या देसांचो सोद लागलो. पर्यायान वसाहतीकरण जालें. सत्ताधाऱ्यांचे विचार, तांची भास, संस्कृताय ह्या सगळ्यांचो परिणाम जंय वसणुको केल्ल्यो त्या देशाचेर जालो. राज्यकर्त्यांचे विचार समजुपाक, बरोबरी करपाक, थळावे लोक तांची भास शिकले. ताचो परिणाम शिक्षितांच्या विचारांचेर जालो, दृश्टीकोन बदल्लो, विचारांचे क्षितीज विस्तारले. आपूण ज्या विचारांनी भारावन गेला ते भौसा मेरेन पावोवपाचे सगळ्यांत जलद माध्यम म्हणल्यार अणकार हें जांकां जाणवले तांणी अणकाराच्या वावराक हात घालो. अणकारा वरवी कितल्याशाच वादांच्यो संकल्पना, वैचारीक फांटभूंय सामान्य मनशाक आपल्या देशी भाशेंत मेळील्ल्यान समजुपाक आनी आपणावपाक सोंपें जालें. अणकारा वरवी नवी साहित्यकृती, नवे विचार, नवो दृश्टीकोन हांची 'मोख भाशें'तल्या समाजांत भर पडली. इतलेच न्हय तर ताचे तरंग उठून समाजांत बदल घडले. तिचे रचनेंत फेररचणूक जाली. आयज आमी पळयतात, जगतात, अणभवतात तो बदलिल्लो आनी बदलत रावपी समाज हाचोच परिणाम आसा.

कोंकणी भास आनी भाशीक लोक आपल्या परीन ह्या बदलत्या समाजाची वळख आपल्या साहित्यकृती वरवी मांडटात, तेच परी हेर भारतीय तशेंच संवसारीक साहित्याची वळख, जाण अणकारा वरवी करून दितात. कोंकणींत आनी कोंकणींतल्यान हेर भासांनी नाटकां, निबंद, कथा, कविता, कादंबरी हांचे अणकार जाल्यात आनी जायत आसात. फाटल्या दोन वर्सां भितर अणकारीत जाल्ल्या 'विमुक्ता' ह्या पुस्तकाचेर ह्या प्रपत्रा वरवी वोल्गा हांणी बरयल्ल्या आनी दामोदर मावजो हांणी कोंकणींत अणकारील्ल्या 'विमुक्ता' ह्या पुस्तकाचेर गायनोक्रिटिसीझम अस्तुरीवादी समिक्षा आनी अणकार ह्या संदर्भांतल्यान परिचर्चा तुमच्या मुखार मांडटा.

**विशय केद्रींत उतरां:** अस्तुरीवाद, गायनोर्किटीसीझम, अणकार, भासविज्ञानीक निकश मानसीकतायेंत बदल

**सुरवात**

वोल्गा ह्या भारतीय लेखिकेन तेलगू भाशेंतल्यान निबंद, कविता, कथा, कादंबऱ्यो बरोवन तशेंच अणकारून भारतीय साहित्यांत मोलादीक भर घाल्या. 'विमुक्ताः कथा सम्पुटी' हें तांचें पांच एकसुत्री कथांचें संकलन जाका २०१५ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो. ह्या पुस्तकाचो इंग्लीश अणकार टी. विजयकुमार आनी सी.विजयश्री हांणी २०१६त "The Liberation of Sita' ह्या माथाळ्या खाल जाल्यार दामोदर मावजो हांणी 'विमुक्ता' ह्या नांवानच कोंकणींत अणकार केलो. कोंकणी अणकार २०१९ बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडलो.




रामायणाच्या फाटभुंयेर वाल्मिकी रामायणांत नाशिल्ल्या देखीक उर्मिले सारख्या वा नगण्य/गौण सुवात आशिल्ल्या अस्तुरी पात्रांच्या, प्रामुख्यान शुर्पणखा, अहल्या आनी रेणूका हांच्या संपर्कांत आयल्या उपरान्त तांच्या जिविताच्या अणभवांतल्यान, तांचे कडेन सादिल्ल्या संवादांतल्यान, ताच्या विचारांतल्यान सीतेच्या विचारांची, चिंतपाच्या प्रकियेंतल्या बदलाची, बदलिल्ल्या मानसीक दृश्टीकोनाची आनी निमणे मुक्ततायेच्या वाटचालीची काणी म्हणल्यार विमुक्ता. ह्या पुस्तकांतली निमणी कथा रामाच्या नदरेंतल्यान ताच्या भावविश्वाचें दर्शन घडयता.

ह्या प्रपत्रांत गायनोक्रिटिसीझम अस्तुरीवादी समिक्षेच्या आनी अणकार हांच्या संदर्भांतल्यान चर्चा

करचे आदीं ह्या दोनूय संकल्पनांनची थोडे भितर वळख करून घेवंया.

**अस्तुरीवादी समिक्षा**

अस्तुरीवादी समिक्षेची बुन्याद अस्तुरीवादाचेर आसा देखून तो पयलीं समजून घेवया.

Feminism, the belief in social, economic and political equality of sexes. अशी व्याख्या www.britiannica.com/topic/feminism ह्या संकेतस्थळार मेळटा.

(सामाजीक, आर्थीक आनी राजकीय मळार लिंगाची समानताय म्हणल्यार अस्तुरीवाद.)

"It is a range of political movements, ideologies and social movements that share a common goal: to define, establish and achieve political, economic, personal and social equality of sexes." अशी व्याख्या विकिपिडियाचेर मेळटा.

(स्वैर अणकारः अस्तुरेक राजकीय, आर्थीक, व्यक्तीगत आनी समाजीक पातळेचेर समानहक्क दिवपा खातीर केल्ली राजकीय, विचारधारेची समाजीक चळवळ म्हणल्यार अस्तुरीवाद.)

अस्तुरीवादी विचारक अशें मानतात की अस्तुरेची समाजांतली सुवात समजून घेवपा खातीर पयलीं पुरुशप्रधान संस्कृतायेची वैचारीक बसका समजून घेवप गरजेचे आसा. सवंसारांतले दादले, अस्तुरेक आपल्या दृश्टीकोनांतल्यान पळयतात इतलेंच न्हय तर ते अस्तुरेक लेगीत स्वता कडेन दादल्यांच्याच नदरेन पळोवपाक शिकयतात तशेंच पळोवपाची बळजबरीय करतात असो विचार रूढ आसा.

साहित्यांतूय पुरूश प्रधान संस्कृतायेचे पडसाद आयकूंक येताले. कारण आदल्या काळार बरोवपाचो, शिकपाचो अधिकार दादल्या पुरतोच मर्योदीत आसलो. आदल्या साहित्यिकांनी आपल्या साहित्यांतल्यान समाजा मुखार, तांकां योग्य दिसपी अशा, आदर्श अस्तुरेची प्रतिमा प्रस्तापीत केल्ली. ताका लागून समाजांत तांणी आखून दिल्ल्या चौकटी भायर सरपाचो विचार लेगीत 'पाप' ह्या माथाळ्या खाल येवपाक लागलो.

साहित्या वरवी समाजांत अस्तुरेची एकतर त्यागमुर्ती, देवी अशी सकारात्मक प्रतिमा (positive image) वा पापी, पतिता, दुश्ट, लजेक घालपी अशी नकारात्मक प्रतिमा (negative image) प्रस्तूत जाताली. ह्या विचारांचो विरोध करता आसतना अस्तुरेक मनीस म्हूण पळोवंचें असो अस्तुरावादी विचार मुखार आयलो. तातुंतल्यान साहित्या कडेन पळोवपाची नदर बदल्ली.

अस्तुरेची, साहित्यांत पितारिल्ली प्रतिमा तपासून पळोवप होच **अस्तुरीवादी साहित्यीक समिक्षेचो** मुखेल विशय आसता. ह्या नाण्याक दोन बाजू आसात. त्यो अशोः

अ) दादले बरोवप्यांनी, तांच्या दृश्टीकोणांतल्यान केल्लें अस्तुरेचें साहित्यांतलें चित्रण.

ब) बायल बरोवप्यांच्या नदरेंतल्यान तांच्या साहित्यांत साकारिल्ली अस्तुरी.

पयल्या बाजूच्या आधाराचेर फॉलोसेंट्रीक (Phallocentric) तर दुसऱ्या बाजूच्या आधाराचेर गायनोक्रिटीसीझम (Gynocentrism) हे अस्तुरीवादी समिक्षेचे दोन प्रकार घडले. 'गायनोक्रिटिसीझम' ही संज्ञा इलेन शॉवोल्टर (Elaine Showalter) हिणें १९७९त पयले फावटी प्रचारांत हाडली. ह्या प्रपत्रांत गानोक्रिटीसीझमाच्या संदर्भांतल्यान 'विमुक्ता'चेर परीचर्चा जातली.

**अणकार**

अणकार एक भाशीक प्रक्रिया. अणकार प्रकियेंत दोन वेगळ्या वेगळ्या भासांची नादवेवस्ता, पदविचार, वाक्यविचार, अर्थविज्ञान, सांस्कृतीक परीघ ह्या सगळ्या मुद्द्यांचो आसपाव जाता. अणकारपी एकवेळ ह्या संकल्पनांचो, भासविज्ञानीक उतरावळीचो उपेग करून विचार करना आसत पूण हे मुद्दे कुशीक काडून तो अणकारूय करूंक पावना. जेन्ना आमी खंयच्याय भाशीक प्रक्रियेचेर वा रचनेचेर भासाभास वा वावर करता तेन्ना भाशे कडेन संबंदींत आशिल्ल्या कारणान ती भासाभास, चर्चा वा वावर भासविज्ञानाच्या माथ्याळ्या खाल येता.

अणकार हो दोन भासां मदलो दुवो साधपी साधन. एक साहित्यकृती भास बदलून दुसऱ्या भाशेच्या लोकांक वाचूंक मेळटा. पूण अणकारतना ती कशी अणकारची, खंयचे निकश म्हत्वाचे आसात हे अणकारप्यान लक्षांत घेतल्यार अणकार बरो जावूं येता.

''एका भाशीक भेसांत आशिल्ली शब्दसंपत तिच्या मूळ आशयाक बाधा हाडलेविणे दुसऱ्या भेसांत सादर करप म्हणल्यार अणकार करप.'' अशें मत सुरेश आमोणकार मांडटात.

ह्या व्याखेंत अणकार प्रकियेंत अर्थाक म्हत्व दिला.

दामोदर मावजो हांणी 'विमुक्ता' इंग्लीशींतल्यान कोंकणींत अणकारतना वाक्य रचना, अर्थ विज्ञान, अतिअणकार वा अत्यानुवाद, अल्पानुवाद, सांस्कृतीक परीघ ह्या मुद्द्याच्या आदारान कशे तरेन अणकारल्या ते ह्या प्रपत्रांत मांडला.

**गायनोक्रिटीसीझम अस्तुरीवादी समिक्षेच्या संदर्भांतल्यान 'विमुक्ता'**

'संगम' ह्या पयल्या कथेंत सिता वाल्मिकीच्या आश्रमांत लव-कुशाक वाडयता तेन्ना शुर्पणखेक मेळपाक वता. नाक आनी कान कातरिल्ल्या शुर्पणखेक मेळच्या आदीं समाजाचे मापदंड लावन सीता तिचो विचार करता, काकूट करता. दर दादलो हेच मापदंड लायतलो, बाह्य, शरिराच्या सुरुपतायेकच म्हत्व दितलो देखून तिचेर कोणच मोग करचोना असो मर्यादीत निश्कर्शूय सीता काडटा.

हे कथेंत, शुर्पणकेचो प्रवास आमकां पळोवपाक मेळटा. तिच्या कुडीर जाल्ल्या आघातांक लागून तिच्या मनाचेर जाल्ल्या घाल्यांचें विवेचन आमचे मुखार येता.

आयच्या संदर्भांत विचार केल्यार Acid attack survivor वा उज्यातंल्यान, अपघातांतल्यान वाटाविल्ल्या बायलांच्या मनांत स्वता विशीं दिसपी विचार, घृणा, तिटकारो हांची झलक शुर्पणखेच्या उलोवपांतल्यान मेळटा.

''...विद्रूप जाल्या उपरांत म्हजी जीण म्हाका असह्य जाल्ली... म्हज्या रूपाक हांव इतलीं विटिल्लीं; हांव म्हजोच तिरस्कार करूंक लागिल्लीं...एक एक दीस असो येतालो- म्हाका जीव दिवन तातूंतल्यान सुटका करची शें दिसतालें...'' (पान.०७)

''...विद्रूपतायेंल्यान जाग्यो जाल्ल्या विकृतायांचेय वजें हांवें

सोंसलें.'' (पान०८)

स्वता बद्दल दुबाव, घृणा दिसपी शुर्पणखेक जेन्ना बाह्य सोबीतकाये परस खऱ्या सौंदर्याचो अर्थ कळटा तेन्ना तिच्या जिविताक वेगळें मोडण मेळटा.

''...सुंदरतायेचो मोग म्हळ्यार कितें ते पर्थून समजुपा खातीर...म्हजे कडेन एक झूंज मांडचें पडिल्लें म्हाका...'' (पान ०८)

सैम सगल्यांक समानतायेन वागयता ह्या निश्कर्शार ती पावता. आपल्या हातांचे मोल कळिल्ली शुर्पणखा आपल्या शरीर सुरूपताये वयले लक्ष आपल्या हातांचेर केन्द्रीत करून सुंदर उपवन उबें करता.

'संगम' कथेंत शुर्पणखेच्या माध्यमांतल्यान वोल्गा आयच्या 'फॅर ऍन्ड लवली'च्या जमान्यांत आमच्या मनांत तशेच समाजांत रूढ आशिल्ल्या सोबीतकायेच्या निकशांचेर चाबूक ओडटा. दिसपा कडेन न्हय तर स्वताच्या विचार, वागणे आनी कृती कडेन लक्ष दियात असो अस्तुरीवादी विचार हे कथेच्या माध्यमांतल्यान वोल्गा मांडटा. अस्तुरेक स्वता कडेन पळोवपाची एक सकारात्मक नदर 'संगमां'तली शुर्पणखा दिता.

'धतरिचे संगीत' हे कथेंत सीता-अहल्येची दोनदां भेट जाता. पयले खेप, वनवासाक गेल्ले कडेन आनी वाल्मिकीच्या आश्रमांत गुरवार सीतेक अहल्या मेळपाक येता तेन्ना दुसरे फावट. हे कथेंतल्यान तीन मुद्दे प्रामुख्यान गोचर जातात ते अशेः

१. आगळीक जाल्ले बायलेक दोशी धरप. २. आपल्या मनशाच्या चरित्राचेर विश्वास उणो वा ना कित्याक? ताचे प्रमाणपत्र समाजान कित्याक दिवूंक जाय? ३. समाजान थारावन दिल्ली शिलवंत अस्तुरेची प्रतिमा.

१. अहल्येची पुराय खबर कौसल्ले कडल्यान समजतकच सीतेक, रामान अहल्येक शीलभ्रश्ट म्हणली हें चिंतून राग येता. ''जें घडलें तांतूत तिची चूक नासतनाय रामान तिका अशें कित्याक म्हणचें?'' (पान १८)

सीता समाजाच्या बलात्कार पिडितेक दोश दिवपाच्या मानसीकतायेक आव्हान करता.

२. अहल्ये-सीतेच्या चर्चे वेळार अहल्या सीतेक आनी पर्यायान समाजाक प्रस्न विचारता ते अशे, ''...सत्य असत्य सोदून काडपा खातीर चवकशी करची पडटा, हय मूं, सीते? हो अविश्वास न्हय? ते परस बायलेचेर पुरायेन विस्वास दवरून- दोशी काय निर्दोश तें तपासनासतना- तिजो स्विकार करप हें समा जाता अशें दिसना तुका?'' (पान.२२)

वोल्गाची अहल्या हांगा 'लोग क्या कहेंगे?' हे मानसीकतायेक आव्हान दिता. 'मी सिंधूताई सपकाळ' ह्या पिक्चरांत सिंधूताईच्या जिवितांतलो एक प्रसंग हांगा नमूद करतां. गांवांतलो एक दादलो सिधूंताईन ताची कागाळ केली म्हण तिका बुद्ध शिकोवपाक म्हण तिच्या घोवाक, आपूण तिच्या जावपी भुरग्याचो बापूय म्हण सांगता. सिधूंताई घरा येता तेन्ना तिचो घोव, णव म्हयने भरिल्ल्या सिधूंताईक तुज्या गर्भांतलें भुरगें आपले न्हय, तूं चरित्र्यहीन म्हण आरोप करून, तिका आशिल्ल्या कपड्यांचेर घरा भायर काडटा. हो प्रसंग आमकां, स्वताच्या बायलेच्या चारित्र्याची शाश्वती समाजा कडल्यान मागप्यांची परंपरा चालू उरल्या हाची गवाय दिता. अहल्येचे प्रस्न हे परंपरेच्या बुन्यादीचेर घण घालता.

३. गुरवार सीतेक अहल्या भेट दिता तेन्ना ती सीतेक स्वताच्या अस्तित्वाची जाण करून दिता. सामाजान दाखयल्ल्या चौकटीच्या भायर अस्तुरेचे अस्तित्व आसा हो विचार मांडटा.

''तुजी धिटाय आनी तुजो आत्मभिमान तुवें दुसऱ्याचे सुवादीन केला. कितें सांबाळून दवरलां तुवें तुजे खातीर?...'' (पान ३१)

''...कोण बायलांक सांगूंक वचना तांच्यांत अदीकताराचें अशें वेगळें कितेंतरी आसा म्हूण...''

''...शीलवंत चरित्र्य आनी आवयचो कुसवो हाचो अस्तुऱ्यांक अभिमान आसूंक फावो अशें लेखतात...''

''...दादल्यांचो अहंकार दुखावचो न्हय म्हूण वावुरप...'' (पान.३२)

अस्तुरेन कशी आसची, तिच्या कार्याची कक्षा कितें, तिच्या खातीर कितें म्हत्वाचें हें सगळे समाज तिका सांगता हे अहल्या सीते कडेन मांडटा.

हांगा माधवी सरदेसाय 'मंथन' ह्या पुस्तकांत *कोंकणी नवलकाणयेंतलो बायल-मनशेचो आवाज* ह्या लेखांत सिमान द बोव्हाआर हांच्या 'द सॅकन्ड सॅक्स' ह्या पुस्तकांतले विचार मांडटा, ''...बसचें कशें, चलचें कशें, हांसचें कशें, उलोवचें कशें, ओगी कशें रावचें- बायल-मनशेक सगळें शिकचें पडटा. ह्या शिकपांतल्यानच बायल-मनीस घडत वता. बायल-मनशेक तिचो आवाजूय समाजूच दिता आनी समाजूच तिका मोनीय करता.'' (पान १०२)

ह्या विचारांचे पडसाद अहल्ये कडल्यान आयकूंक मेळटात.

'रेवेंचो बुडकुलो' हे कथेंत सीता वनवासाक आसतना तिचो रेणुका देवी कडेन संपर्क येता. न्याय-अन्याय, योग्य-अयोग्य हाचो विचार न करता आपल्या बापायचे आज्ञेचें पालन करपी परशुरामाच्या आर्यधर्म पालनाचो रेणुका देवी धिक्कार करता हें तिच्या संवादांतल्यान स्पश्ट जाता. तिच्या सीते कडल्या संवादांतल्यान रेणुका देवी, अस्तुरेक स्वता कडेन स्वताच्या दुसऱ्यां कडेन आशिल्या नात्या-संबंदान पळोवपाचे, संवयेचेर बोट दवरता.

''घोव आनी पूत हांचे नातेसंबंद बायलां खातीर गरजेचे व्हय?'' (पान ४४)

दुसऱ्या मनशाक आपल्या जिवितांतलो केन्द्रबिंदू करून निमणे त्याच व्यक्ती कडल्यान धिक्कार पचोवपाचें दिव्य रेणुका देवीन केल्ल्यान स्वताचे अस्तित्वा खातीर हेरांचेर निंबून न रावपाची शिटकावणी ती हेरांक दिता. तेच बरोबर धर्म, संस्कृताय ह्या व्हड-जड संकल्पनांच्या बुन्यादीचेर ती प्रस्न उबे करता. चौकटेंत बांदून पडिल्ल्या बुद्धीक विचार करपाक, प्रस्न विचारपाक चालना दिता.

''...ब्राम्हणांनी ग्रंथानीं बरयल्या ती आमची संस्कृताय अशें तूं लेखता...'' (पान ४५)

''...सैम होच खरो गुरू, अशे दिसना तुका?...'' (पान ४५)

'विमुक्ता' हे कथेंत वनवासांतल्यान परतल्या उपरान्त सीता उर्मिलेक मेळटा. तांच्या मजगतच्या संवादांतल्यान नातें-संबंद हांतूतल्या भावनीक घुस्पटींतल्यान मुक्त जाल्ली उर्मिला सीते सामकार येता. उर्मिला आपल्या आत्मसोदाच्या मार्गार चलून आपल्या परीन दुख्खाचें मूळ सोदता.

दुसऱ्याचेर हक्क गाजोवपाची वा दुसऱ्याक स्वताचेर गाजोवंक दिवपाची वागणूक दुख्खाच्या मुळाचें कारण अशा निश्कर्शार उर्मिला पावता.

"हांव कोणाच्या अधिकारा मुखार नमचीं ना. ना हांव म्हज्या अधिकारान कोणाचेर बंधना घालतलीं. तेन्नाच म्हाका दिसतले, हांव मुक्त जालीं." (पान. ६५)

उर्मिला तिका तिच्या आत्मबळाचीय याद करून दिता.

"तुजेर फकत तुजो अधिकार आसा, तो वापर... स्वताचें अस्तित्व सांबाळप हें सोपें काम न्हय..." (पान ६६)

"तूं तुजे खातीर आसा..." (पान.६८)

"संघर्श कर, मनन कर, जों वर सत्याचो थाव तुका लागना तो वेर तुज्या भितर तुका सोदीत राव..." (पान ६८)

स्वतांतल्या बळग्याचो सोद लावपा खातीर पयली स्वताचेर लक्ष केंद्रीत करपाची गरज आसा हें वोल्गा हांगा उर्मिलेच्या माध्यमांतल्यान मांडटा. स्वयंप्रकाशी जावपाची तांक आसा पूण जाण ना ही वस्तूस्थिती आपणावप शाणेपणाचें थारूं येता.

"You've always had the power my dear, you just had to learn it yourself." ग्लिंडा, द गूड विच ऑफ नॉर्थ, 'विझार्ड ऑफ ओज' ह्या पिक्चरांत डॉरोथीक सांगता तें हांगा याद जाता.

'बंदिस्त' हे कथेंत वोल्गा रामाच्या मनाची, ताच्या विचारांची झलक दाखयता. दर एक कृती फाटली ताची वैचारीक बसका ताचे नदरेंतल्यान स्पश्ट जाता. अधिकार आनी कर्तव्य हाचे जूं मानेर घेवन ताच्या वज्यान स्वताच्या व्यक्तीगत जिविताचेर तिलांजली दिवपी लोकांचे प्रतिनिधित्व राम हे कथेंत करता. अशा व्यक्तिच्या मनाचो थाव वोल्गा घेता. 'अत्याचारी पुरूश' हें विशेशण कुशीक दवरून रामाक मनीस म्हूण कितें भोगला आसतले ताचें दर्शन घडयता. ताच्या राजा ह्या लागणूकेक लागून ताच्या पासून पयसाविल्ल्या ताच्याच लोकां मजगती जगपी एकटो राम हे कथेंत दिसता. ताका रडपाची लेगीत मेकळीक ताचें चक्रवर्ती बिरूद ताका दिना. The Song of Ice and Fire नांवाच्या पुस्तक माळेचेर तयार केल्ल्या Game of thrones टॅलीव्हीजन सिरीयलांत सुरवेक मॅस्टर एमोन जॉन स्नो ह्या पात्राक सांगता, "Love is the death of duty." टिरीयन लॅनीस्टर जॉनाक ह्याच वाक्याच्या विचाराच्या नाण्याची दुसरी बाजू सागंता, "Duty is the death of love." रामाच्या वागणुकेचो विचार करता तेन्ना हें वाक्य प्रकर्शान याद जाता.

बायलमनीस, तीय बी अस्तुरीवादी म्हूण समाजमान्य आशिल्ली बायल जेन्ना एका दादल्याच्या मनाचो इतले खोलायेन, सुक्षीमतायेन थाव घेवन मांडटा तेन्ना ती अस्तुरे बरोबर पुरूशाकूय मनीस आनी फकत मनीस म्हण पळोवपाची शिकवण दिता हेंच वोल्गा अधोरेखीत करतना जाणवता.

**अणकाराच्या संदर्भांतल्यान 'विमुक्ता'**

अणकाराचो विचार करता तेन्ना कांय निकश आसात ते अशेः वाक्य रचना, उतरांचो पावंडो वा पद-विचार, अर्थ विज्ञान, अतिअणकार वा अत्यानुवाद, अल्पानुवाद, सांस्कृतीक परीघ.

**वाक्य रचना**

अणकारतना मूळ भाशेचो मोख भाशेच्या वाक्य रचनेचेर कांय वेळार परिणाम जाता. भासांच्या वाक्यरचनेच्या बांदावळींतल्या साम्य-फरकाचेर प्रभाव अवलंबून आसूं येता. इंग्लीश भाशेची वाक्य रचना कर्ता क्रियापद कर्म (Subject Verb Object -SVO) अशी आसा जाल्यार कोंकणीची वाक्य रचना कर्ता कर्म क्रियापद (Subject Object Verb -SOV) अशी आसा. अणकारतना मूळ भाशेचो मोख भाशेच्या रचनेर परिणाम जाला काय हे पळोवप गरजेचें थारता.

**उतरांचो पावंडो वा पद-विचार**

भाशेंतल्या नीज उतरांचो उपेग. तशेंच हेर भासांतल्या उतरांचो प्रभाव, उपेग. नवी उतरांची निर्मणी आनी उतरांच्या रूपांत केल्लो बदल हांचो विचार पद-विचारांत जाता.

**अर्थ विज्ञान**

दोन भासांची उतरां, वाक् प्रचार जरी वेगळे आसले तरी अणकारतना जर अर्थांत बदल घडला, कितलो घडला, मूळ उतराच्या अर्थाचो विस्तार जाला काय आकूंचन जाला वा पुराय अर्थूच बदल्ला हाचो विचार अर्थविज्ञानाच्या माथाळ्या खाल जाता.

**अतीअणकार वा अत्यानुवाद**

कांय वेळार अणकारपी मूळ भाशेंतल्या साहित्यकृतींत नाशिल्लीं वाक्यां गरज ना थंय दिता. अणकारपी जेन्ना वाचप्यांच्या समजुतीचेर सोडी नासतना भर घालून अति स्पश्टीकरण दिता तेन्ना तो अतीअणकार जाता.

**अल्पानुवाद**

कांय वेळार मूळ भाशेंतली कांय उतरां वाचप्यांक चड फोडून न सांगता तांकां सहज अर्थ कळटा. पूण मोख भाशेंतल्या वाचप्यांक ते संदर्भ खबर नाशिल्ल्यान ते काळखांत उरूं येता. सांस्कृतीक उतरांच्या बाबतीत अल्पानुवाद जावपाची शक्यताय चड आसता.

**सांस्कृतीक परीघ**

दर भाशीक वाठाराची वा भाशेची आपली संस्कृताय आसता. अणकार करतना संस्कृतायेच्या संकल्पानांची देवाण-घेवाण जाता. साहित्यकृतींत सांस्कृतीक आशयघनता आसल्यार अणकारप्या खातीर तें आव्हान आसता. साहित्यकृती तशी नासल्यार, ती मोख भाशेंतल्या वाचप्याक कितली लागींची दिसपी, सहज करूं येता हें वेगळेंच आव्हान अणकारप्या मुखार आसता.

'विमुक्तां'तल्यो अणकाराच्या संदर्भांतल्यो देखीः

**वाक्य रचना**

**1. E:** He drew her closer and said, When I'm with you, your thoughts can't be elsewhere. (pg19)

**कों:** "हांव इतले बगलेक आसतना तुजें मन दुसरो विचार कशें करूंक शकता?" (पान. १५)

इंग्लीशींतले वाक्य विधानार्थी आसा जाल्यार कोंकणींतले प्रस्नार्थी आसा. अशा वाक्य प्रकारांच्या बदलांची मेकळीक जरी अणकारप्याक आसली तरी ताचे फाटले प्रयोजन स्पश्ट जायना. इंग्लीश वाक्यांत राम सीतेक आपले विचार स्पश्ट सांगता. ती दुसरे कशी चितूंक शकता असो लाडांन केल्लो आरोपूय ना. तिणें कितें करूंक जायना हें राम स्पश्ट करता.मोवाळ तरेन सांगले तरी त्या वाक्यांतलो अधिकार, आदेश स्पश्ट जाता.

कोंकणींतल्या वाक्यांत राम सीतेक ती दुसरे कशे चितूंक शकता असो प्रस्न विचारून तिच्या मतांक वा विचारांक स्पश्ट जावपाक मेकळीक दिता अशे दिसता. वाक्य बदलाच्या फरकान रामाच्या पात्रचित्रणांत अंशता बदल दिसता.

**2. E:** and turned around, leaving no scope for further conversation. (pg.48)

**कों:** ...आनी सडसडीत आपले वटेन परतली- संभाशणाक फुडें व्हरपाक वाव दवरनासतना. (पान. ४०)

कोंकणींतल्या अणकारींत वाक्याचेर इंग्लीशीचो प्रभाव पडला अशें संशोधकाक दिसता.

'...आनी संभाशणाक फुडें व्हरपाक वाव दवरनासतनां ती सडसडीत आपले वटेन परतली' अशें वाक्य कोंकणीच्या क्रियापदान सोंपपी वाक्य रचनेक सोबपाचे अशें दिसता. अर्थाच्या संदर्भांत मात संशोधकाक अणकारीत वाक्याच्या संदर्भांत कसलोच आक्षेप ना.

**3. E:** Kusa's innocent face brimmed with respect for the unknown mission. (pg56)

**कों:** कुशाले दोळे लिकलिकूंक लागले- बापूय आपणालो महान कार्य घेवन बसला हें येवजून. (पाल. ४७)

कोंकणी वाक्याची वाक्य रचना कानाक आडखळटा. अशी वाक्य रचना उलयतना सहज जाता पूण निवेदनांत ती अडेची दिसता. हींच वाक्यां एकामेकांच्या सुवातीर अदलाबदल करून आयल्यार बरी दिसपाची.

**अर्थ बदल**

**1. E:** ...I was always <u>afraid</u> of kingdoms. (pg. 14)

**कों:** कित्याक कोण जाणा, म्हाका राजपाटणाचो केन्नाच सोंस नासलो. (पान.११)

भंय दिसप आनी सोंस नासप ह्यो दोन वेगळ्यो भावना देखून हांगा अणकारतना पुराय अर्थ बदल जाला हें मान्य करचे पडटा.

**2. E:** "while <u>accompanying</u> Viswamitra". (pg. 18)

**कों:** ''कशे तरेन विश्वामित्राक राखण दीत...'' (पा.न.१४)

कोणाकूय सांगात दिवप आनी राखण दिवप ह्या दोनूय अर्थांचो घुस्पागोंदळ जाल्लो स्पश्ट आसा.

**अतिअणकाराचे नमुनेः**

**1. E:** "Rama was telling her, with a little exagageration, about the many demons he had slain, and how effortlessly, while accompanying Viswamitra. But Sita did not want to hear about killings in that hour. She gently stopped Rama." (pg. 18)

**कों:** खबरो रंगार आयिल्ले कडेन राम तिका आपणे गाजयिल्ले पराक्रम सांगूंक लागलो- कशे तरेन विश्वामित्राक राखण दीत रानावनांतल्यान भोंवलो; वाटेर आपणें व्हडव्डल्या राकेसांक कशे मारून उडयले; कसलीं अस्त्रां खंय कशीं फिशालकायेन वापरलीं त्यो खबरो मोटे रूचीन रंगोवंक लागलो. पूण सितेक तातूंत रस नासलो. ताचे वेंगेंत रिगून सीतेन आपलीं नाजूक बोटां रामाच्या ओंठांर दवरून ताका आडायलो. हत्या-वध-लडाय असले विशय ह्या वेळार तिका नाका दिसले. (पा.न.१४)

**2. E:** Sita was listening eagerly.

Ahalya. - beautiful name that means "land untouched by a plough."

**कों:** सीता उमळशिकेन आयकताली. येवजुपाक पडली. (पा.न.१९)

अहल्या नांव खंय तिचें. सुंदर नांव. आनी अर्थपुर्ण. (पा.न. १५)

वयल्या दोनूय देखीनी कोंकणी अणकारांत अधोरेखीत केल्लीं वाक्यां मूळ इंग्लीशींत नात.

**अल्पानुवाद**

**1. E:** "Who is Ahalya, Mother-in-law? <u>Sita asked hesistantly.</u> (pg.21)

**कों:** ''ही अहल्या कोण, सासुमाई?'' (पान. १६)

अधोरेखीत वाक्याचो अणकार कोंकणींत जावूंक ना.

**सांस्कृतीक परीघ**

**1. E:** 'Who are you, amma?' (pg.08)

**कों:** 'कोण बाये तूं?' (पा.न. ०५)

इंग्लीश अणकारांत जरी मूळ तेलगूंतले 'अम्मा' दवरले तरी कोंकणी अणकारपी 'बाये' हें उतर वापरून अणकार कोंकणी वाचप्याच्या लागीं व्हरता. तो सहज दिसता.

**2. E:** Janaka's dearest daughter Sita had been <u>given in marriage...</u> (pg. 17)

**कों:** जनकाक अत्यंत प्रिय अशे धुवेची, सीतेची आयज व्हाड्डीक जाल्ली... (पान. १३)

इंग्लीशींतले उतरान उतर अणकार नासतना अणकारप्यान हांगा मोख भाशेंतल्या संस्कृतायेंतले निजाचें उतर वापरला. आयच्या घटकेक जेन्ना गोंयांत, लग्न कोणा कडेन जाला हो प्रस्न विचारपा खातीर जय सर्वसामान्य तुका कोणागेर दिला? (वस्त दितात. पूण अस्तुरी वस्त नासूनय तिच्या संदर्भांत उपेगांत हाडिल्लें उतर) असो प्रस्न करतात, थंय अणकरप्यान 'व्हाड्डीक' उतर वापरून फकत कोंकणी संस्कृतायेचेच दर्शन घडोवंक ना जाल्यार अणकारता ते साहित्यकृतीच्या लेखिकेच्या विचारांचोय मान राखला आनी समर्थनूय केला.

E: Sita's face fell. (Pg 18)

**कों:** सीतेचें तोंड बावलें. (पान .१४)

हांगा इंग्लीशींतले तशा तसो अणकार करून तोंड पडला म्हळ्यारूय चलताले, पूण तोंड बावलें ह्या वाक्यांतले सौंदर्य तातूंत मेळचे नासले.

**उतरां**

अणकारप्यान अणकराताना साहित्यकृतिच्या विशयाचो, विशयाच्या धार्मीक तशेच सांस्कृतीक वलयाचो, पात्रांचो विचार करून विशयाक, पात्रांक, त्या काळाक फावो अशा उतरांचो उपेग केला अशे संशोधकाचें मत आसा.

पतीण, बंधू, तकीत, मिजगतीक, गोमटे, अस्कत, व्हाड्डीक, नवलाय, धोणू, आसबास नासप, वाचाळ कीर, रावतिका, बगलांट, काळ-सापेक्ष, मज नासप, एकतांक, घडिभर, आविश्कृत, प्रदान, बेहोश, सखयो, संध्यापुजा, अंतःपूर, हत्या, वध, अभिवादन, इमान-बेइमान, चित्तवृत्ती, प्रकर्शान, समुपदेशन, आत्मभान, उत्क्रांतीक्रम, वंशावळ, आत्मीक शक्तेचो साक्षात्कार, कूंजन, सौश्ठव, शौर्य शिल्पालय अशा

उतरांच्या वापरांतल्यान भाशेंतल्या नीज उतरांची, तद्भव तशेच तत्सम उतरांची आनी उश्ण्या उतरांच्या ह्या पुस्तकांतल्या सहज वापरांतल्यान अणकारप्यान उतरांच्या इंद्रधोनूचें दर्शन घडयला. मेकळ्या वापरांत कांय उतरां कानाक जड लागता आसली तरी अणकारप्यान तांचो उपेग करून भाशेची समृद्धताय दाखयल्या पूण तितलीच वाचप्यांक क्लिश्ट जावची ना हाची जतनाय घेतल्या.

**निश्कर्श:**

- 'दादलो बायलेचेर अन्याय करता' इतल्याच पालुपदांत घुसपून न घेता, खंयच्याच दादल्याक खलनायकाचे लेबल न लायता, बायलेच्या मनाचो, स्वावलंबनाच्या मार्गाचो, मुक्तीचो थाव वोल्गान घेतला. समाजाच्या वैचारीक बदलाचो मार्ग आपल्या साहित्या वरवी तिणें तिका समजला, भावला तसो दाखयला. आपल्या साहित्या वरवी वैचारीक मंथनाक चालना दिवपी तेलगू भाशेंतल्या ह्या भारतीय लेखिकेक सलाम. तिणें धार्मीक संदर्भांत लागीं आशिल्ल्या भारतांतल्या महाकाव्यांच्या अस्तुरी पात्रांच्या माध्यमांतल्यान अस्तुरे विशीचे कितलेशेच आधुनीक आनी स्वतंत्र विचार वाचप्यां मुखार प्रस्तूत केले. तिच्या Visionary दृश्टीकोणाक वालोर.
- अणकारपी स्वता नांवाजिल्ले, म्हालगडे आनी खांपे बरोवपी आशिल्ल्यान तांच्या व्यक्तिगत शैलीचो प्रभाव अणकाराचेर जावपाची शक्यताय चड आसली. अशे आसून लेगीत विमुक्ताचो कोंकणी अणकार ह्या प्रभावा विरयत जाला असो संशोधकाचो निश्कर्श आसा.
- अणकारप्यान कोंकणींतल्या वाचप्यांक सहज लागतलो पूण तेच परी निजाच्या उतरांची चड करून वाचप्याक आयच्या काळांत परतून एकदा जाण करून दिली.
- विमुक्ता कोंकणी वाचप्या मेरेन अणकारा वरवी येवून लेगीत ती अणकाराच्या शिक्क्यांल्यान मुक्त दिसची इतली ती कोंकणी दिसता.

**संदर्भ:**


1. Volga, "The Liberation of Sita', Trans. T. Vijay Kumar C. Vijayasree, Harperpernnail, an imprint of HarperCollins Publishers, 2018.
२. वोल्गा, 'विमुक्ता', अणकार. मावजो दामोदर, बिम्ब प्रकाशन, धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स, आगशी-गोंय ४०३२०४, मार्च २०१९
३. सरदेसाय,माधवी कोंकणी नवलकाणयेंतलो बायल-मनशेचो आवाज पान १०२, मंथन, जाग प्रकाशन, मार्च, २०१२
4. https://onlinelibrary.wiley.com/doi/abs/
5. www.britiannica.com/topic/feminism
६. सुरेश गुंडू आमोणकार. 'अणकार: कांय विचार.' जाग एप्रील २००१: १३.
७. मी सिंधूताई सपकाळ- सिनेमा
8. Game of Thrones- Television Serial
9. Wizard of Oz- Movie



संपर्क : 9850468278


***



# म्हाका भाविल्ले भाई मावजो

मानसी धाऊस्कार

दामोदर मावजो हें नांव हांवें शाळेंत शिकता आसतना, चड करुन आमची कोंकणी शिक्षिका अरूणा पाटणेकार हांचे कडल्यान आयकलां अशें दिसता. पूण मागीर इकरावे-बारावेक कोंकणी विशय शिकतना आमची शिक्षिका काश्मिरी पावसकार हांचे तोंडांतल्यान मात खुबदां आयकलां. आमकां बारावेक दामोदर मावजो हांची 'वेळेवयलीं रेंवेघरां' ही कथा अभ्यासक्रमांत आशिल्ली. काश्मिरी टिचर जेन्ना ती कथा शिकयताली तेन्ना ती सामकी समरस जाताली. तेच पासत म्हाका कांय लेखकांचीं नांवां घट्ट बरीं तांच्या साहित्या सयत यादींत उरलीं, तातूंतलें दामोदर मावजो हें एक नांव. टिचर शिकयता आसतना अदीं मदीं दामोदर मावजो अशें म्हणनासतना भाई अशेंय म्हणटाली. तेन्ना मात म्हाका अजाप दिसतालें. जेन्ना तिणें सांगलें, तांकां आमी भाई म्हणटात तेन्ना एका लेखकाची वळख आमचे टिचरी कडेन आसा तें पळोवन म्हाका खूब बरें दिशिल्लें. काश्मिरी टिचरय बरयता म्हण तांचो म्हाका अभिमान दिसतालो. कशें कोण जाणां, म्हाका लेखक, कवी आवडटाले. आमकां अभ्यासक्रमांत तांचें जें कितें साहित्य शिकयताले, तें हांव समजून घेतालें.

जेन्ना आमकां दामोदर मावजो हांची 'वेळेवयलीं रेंवेघरां' ही कथा शिकोवपाक घेतली तेन्ना हांवें ती सगळ्यांत पयली वाचली. ताचें कारण वर्गांत टिचर एक धडो दोन वा तीन लॅक्चरांनी सोंपयताली. दामोदर मावज्याली कथा जेन्ना शिकोवंक घेतली आनी एका लॅक्चराक तातूंतलो थोडोसो वांटो शिकोवन टिचर गेली तेन्ना ते कथेविशीं म्हजी उमळशीक इतली वाडिल्ली, कथेंत कितें घडटा हें म्हाका जाणून घेवपाचें आशिल्लें. टिचर ती शिकोवन सोंपय मेरेन म्हाका थार नाशिल्लो. देखून फुडले लॅक्चराक हांवें पुस्तक लिपयत लिपयत ती कथा वाचून काडली आनी आपल्या लॅक्चराक भलतेंच कितें वाचता म्हण त्या टिचरा कडल्यान तापोवणीय खावची पडिल्ली. पूण ती कथा इतली सुंदर आशिल्ली आनी म्हज्या अंतस्करणा मेरेन पाविल्ली ताचे मुखार ती तापोवणी म्हाका विशेश लागूंक नाशिल्ली. ह्या कथेंतल्यान दामोदर मावजो ह्या कथाकारान म्हज्या काळजांत घर केल्लें तो म्हज्या आयुश्यांतलो पयलो प्रसंग आशिल्लो. तोवेळ मेरेन हांव खंयच्याच लेखकाक व्यक्तिगत मेळूंक नाशिल्लें. बारावेच्या वर्गांत आसतना पयलेच खेप एका लेखकाक मेळ्ळें ते म्हणल्यार दिलीप बोरकार. ते आमचे म्हाविद्यालयांत निबंद लेखनाचेर कार्यशाळा घेवंक आयिल्ले. तेन्ना लेखक कशे आसतात आनी कशे वागतात हाचो अणभव म्हाका पयलेच खेप मेळ्ळो. तेन्नाच म्हाका दामोदर मावजो हांकांय मेळपाची उमळशीक लागली आनी तीवूय पुराय करपाचें काम दिलीप बोरकार हांणीच केलें. हांव जेन्ना विद्या प्रबोधिनींत पदवी शिक्षण घेतालें तेन्ना कांय पुस्तकां हाडपा खातीर 'बिम्ब' कार्यालयांत गेल्लें. त्या वेळार दिलीपबाबांक मेळूंक एक व्यक्ती आयली. तांचे फाटोफाट सुरक्षा रक्षक भितर सरिल्लो. दिलीप बाबान तांकां बसोवन घेतले आनी तांचे कडेन म्हजी वळख करून दिली. भाई मावजो अशें म्हणले बराबर म्हज्या काळजांत कल्ल जालें. म्हज्या मुखार म्हजो आवडीचो रेंवेघरांचो कथाकार आशिल्लो जांकां हांव मेळूंक सोदतालें. तांचे वांगडा जी व्यक्ती आशिल्ली तीवूय लेखक आसतली अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण जेन्ना तो भाई मावजो हांचो सुरक्षा रक्षक म्हणपाचें आयकलें तेन्ना परत म्हाका कल्ल जालें. हांवें कार्यावळींनीं मंत्री बी मुखेल सोयरे म्हूण येतात तेन्ना तांचे फाटल्यान सुरक्षा रक्षक पळयिल्ले. पूण एका लेखकाक सुरक्षा रक्षक दितात जाल्यार दिलीपबाब कित्याक वापरना हो म्हाका तेन्ना पडिल्लो प्रस्न. जेन्ना ते विशीं म्हाका कळ्ळें, भाई मावजो हीट लिस्टाचेर आसा आनी सरकारान तांकां ही सुरक्षा दिल्या तेन्नाय म्हाका परत प्रस्न पडलो, काळजाक हात घालपी कथा बरोवपी आनी म्हजे सारख्या भुरग्यां कडेन मोगान आनी अपुरबायेन उलोवपी हो नमळ लेखक हीट लिस्टाचेर कसो? उपरांत सगळी गजाल कळ्ळी.

'वेळेवयलीं रेंवेघरां' हे कथेंतल्यान म्हाका अदृश्य रूपान भाई मावजो, दामोदर मावजो म्हूण मेळिल्ले. जेन्ना हांव तांकां प्रत्यक्ष मेळ्ळें तेन्ना तांचें तें हांसतें मुखामळ आनी म्हजे सारख्या एका विद्यार्थ्याकडेन तितल्याच आदरान आनी आपलेपणान वागपाचो तांचो सभाव हाका लागून काश्मिरी टिचर तांकां भाई कित्याक म्हणटाली हाचो अर्थ लागलो. त्या दिसाच्यान म्हजेय ते भाई जाले.

आतां तांची कथा म्हाका तांचे कडेन कित्याक ओडून घेवन गेली हेंय सांगप गरजेंचें. जीण ही शाश्वत आसना ताका मरण हें केन्ना तरी वेंगायता हें वास्तव सत 'वेळे वयलीं रेवें घरां' ही कथा आमचे मुखार दवरता. हे कथेंत कथेचो नायक जो व्यवसायान दोतोर आसता आनी हेरांचे जीव वांचयता तांकाच एक जीवघेणें दुयेंस म्हणल्यार कॅन्सर जावन तो निमणे स्टेजीचेर आसता. ताका लागून मरणाचे तडीक पाविल्ल्या ह्या दोतोराचे जिणेंत निर्शेणी येता. ती निर्शेणी एकाच खिणांक एक दीस वेळेर गेल्ले कडेन ताची धूव पयस करता तशेंच जिविता कडेन पळोवपाची एक वेगळीच नदर ताका दाखयता.

हे कथेंत जिविता विशी जें सत्य मांडिल्लें आनी रूपकात्मक शैलीन तें म्हजे भुरग्यांमनाक सहज आनी सोंपेपणान सांगपाची कथाकाराची ती कळाशी म्हाका ते कथेकडेन जोडूंक पाविल्ली. म्हजें संवेदनशील भुरगेंमन ते कथेक लागून अस्वस्थ जालें. म्हाका परत परत ते चलयेचें एक वाक्य येवजतालें ताचो वाक्यार्थ म्हणल्यार जे कितें आमी जल्मांक येवन हे धतरेर तयार करतात, मेळयतात तें सगळें मनशाक हांगाच सोडून वच्चें पडटा. जशें

तांणी वेळेवयलें रेवेंचें घर बांदिल्लें तें घरा वतना थंयच सोडून वच्चें पडिल्लें.

दामोदर मावजो हांची ही कथा तांचें काळीज कितलें संवेदनशील आसा हाची कल्पना म्हजे ते पिरावयले समजणेंक दिताली. एक लेखक वाचूंक घेवपाक ही कथा म्हांवा बोट थारिल्ली. हाकाच लागून म्हजो आवडीचो लेखक म्हूण हांव दामोदर मावजो ह्या कथाकाराकडेन पळोवंक लागलें. तांच्यो कथा वाचपाचो हांवें सपाटोच लायलो. 'जागरणां' ह्या कथा संग्रहांतल्यो कथा वाचल्यो. 'रूमडफूल' संग्रहांतल्यो कथा वाचल्यो. तातूंतलें 'रूमडफूल' हे कथेन तर म्हाका वेगळ्याच विश्वांत व्हेलें. शांती आनीक आनी खंयच आसना ती आपल्याच मनांत आसता म्हणपाचें सत म्हज्या मनांत रिगोवपाचें काम हे कथेन केल्लें. 'गांथन' हो कथासंग्रहूय वाचलो. तातूंतले 'तेरेजालो घोव' हे कथेंतल्यान विकृत समाजांतले विकृत पुरूश प्रधान संस्कृताये आड झुजपाक जाय म्हणपाचो विचार म्हाका तांणी दिल्लो. मागीर 'सपन मोगी' आनी 'तिश्टावणी' हे दोनूय संग्रह वाचून म्हज्या अंतरमनांत लिपिल्ले अनेक सुप्त विचार, उमाळे जागले. मागीर तांचें हेर साहित्य वाचपाचें हांवें थारायलें आनी 'कार्मेलीन', 'सूड' आनी 'सुनामी सायमन' वाचून काडलीं. आतां 'जीव दिवं काय च्या मारूं? वाचपाची उल्ल्या. वाचनाची आवड लेखक आपले शैलीक लागून, सर्जनशीलतायेक लागून कशी लोकांक लावंक शकता हाचो हो म्हजे खातीर एक अणभव आशिल्लो.

म्हज्या आवडीचो हो कथाकार उपरांत वेगवेगळ्या कार्यावळींनी आनी हेर कडेन मेळत रावलो. तांचें मेळप हो एक उत्सवूच कसो म्हाका दिसतालें आनी दिसता. हेर लेखक मेळ्ळे जाल्यार फकत हात दिवन वा नमस्कार करून 'बरें मुगो?' इतलेंच म्हणून आवियार करताले. पूण भाई मावज्यांचें तशें नासता. जेन्ना जेन्ना ते म्हाका मेळ्ळ्यात तेन्ना तेन्ना लागीं येवन तांणी सदांच म्हजे तकलेर हात दवरला. मागीर कितें वाचता, कशें शिकता आनी बरोवपाक लागलां कांय ना अशें विचारल्या बगर ते रावनात. म्हजें खंयीय कितेंय छापून आयलें आनी म्हजे कडल्यान कितेंय तोखणायेक येवपा सारकें काम घडलें जाल्यार फोन करून अभिनंदन केले बगर रावनात. कितें वाच्चें, कितें बरोवचें हें भाई मुजरत सांगले बगर रावनात. तांचे हे आपलेपणाचे वागणूकेक लागून आनी ल्हानांतल्या ल्हान व्यक्तीक कसलोच पातसो दवरिनासतना तितलोच मान दिवपाचो तांचो सभाव आमचे सारक्यांक आपल्या इतलेंच व्हडपण दिता. देखून म्हाका आतां प्रामाणीकपणान दिसूंक लागलां, बरें बरयलें

(पान २७ चेर)

# कोक्राझार साहित्योत्सव

**परेश नरेंद्र कामत**

बोडो भाशेंत 'खन्थाइ' म्हणल्यार कविता. 'थुनलाइयारी फोरबो' म्हणल्यार साहित्योत्सव. आसामांतल्या बोडोलँड सरकारान हालींच आगळो वेगळो असो 'कोक्राझार साहित्योत्सव' गौरांग न्हंयेच्या कांठार घडोवन हाडलो. वट्ट तीन दीस चलिल्ल्या ह्या साहित्योत्सवांत भारतांतल्या १३० भाशांतल्या कवितांचें सादरीकरण जालें. आसामी, हिंदी, कोंकणी, मराठी, कन्नड, मल्याळम, बोडो, तमीळ, उडिया, उर्दू, गुजराती, बंगाली, सिंधी, डोगरी, तेलगू, कश्मिरी, संथाली, पंजाबी, मणिपुरी ह्या मुखेल भाशांतल्या कवीं सयत लिंबू, निशी, कोच राजबंशी, खासी, गालो, शेरडुकपेन, तांगसा, टोटो, तिवा, मगाही, गारो, रियांग, गोलपारीया, कारबी, मांगर, हाखून, सियांग, अपातानी, तमांग, कचारी, झोमी, देवरी, मिसींग, राय, लेपचा, आहोम, चकमा, कोडवा, बर्मन, भोजपुरी, कोकबोरोक, राभा, लडाखी, दिमासा, हाजाँग, तुळू, थादाव, जयंतीया, मीणी, बर्मन कचारी, हमार, मिसो, आदी, सोनोवाल कचारी, तागीन, अवधी, टी ट्रायब, बंजारा, पोवमल नागा ह्या सारक्या कितल्याशाच अनवळखी बोलीभाशांतल्या कवींक आयकुपाचो योग आयलो.

कोक्राझार साहित्योत्सवाची थीम आशिल्ली- 'पोएट्री फॉर पीस अ‍ॅण्ड लव्ह'. बोडोलँड हो भारतांतलो एक अशांत प्रदेश. नक्सलवादाचें भिरांकूळ सांवट ह्या प्रदेशाचेर मांडून आसा. सुमार चाळीस वर्सां ह्या प्रदेशान आतंकवाद सोंसला. बोडोलँडातल्या थळाव्या भौसाक बोडो भाशे खातीर, बोडोलँड वाठारा खातीर, आपल्या वेगळ्या अस्तित्वाचे राखणे खातीर खर झुजचें पडलां. जेन्ना जेन्ना बोडो मनशाचेर अन्याय जाला आनी तांचो आवाज चेंपपाचो यत्न जाला तेन्ना तेन्ना बोडो समाजांतल्या जागृत नागरीकांक हातांत बंदूक घेवची पडल्या. आपले बोडो अस्मिताये खातीर तांकां व्हड आंदोलन करचें पडलां. आपलो आवाज बुलंद करीत ज्या हातांनी बंदूक उबारिल्ली तेच हात आज सशक्त आनी सर्जनशील साहित्य निर्माण करपाक लागल्यात हाचो प्रत्यय कोक्राझार साहित्योत्सवांत आयलो.



कोक्राझार साहित्योत्सवाचो उक्तावण सुवाळो दिश्ट लागपा सारको सोबीत आनी रंगयाळो जालो. उक्तावण सुवाळ्याक प्रा. सुरथ नार्झारी, शंतनू गोठमारे, बि टी आरचे मुखेली प्रमोद बोरो, मीठेश निर्मोही, प्रा. अनील बोरो (साहित्य अकादेमीचे बोडो भाशेचे निमंत्रक), अश्विनी चौबे, आसामांतले कॅबिनेट मंत्री उर्खाव ग्वारा ब्रह्म (साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजेते बोडो कवी),पॅट्रिशीया मुखीम, तोरेन बोरो, प्रा.गणेश देवी, निकेतू इरालू, दिपेन बोरो आदी मानेस्त माचयेर हाजीर आशिल्ले.

लोकनृत्य, लोकसंगीत आनी कवित्व हें बोडो मनशाच्या रगतांतूच आसा. आसामांतल्या सरकारांत आज बोडोलँडातले कितलेशेच लेखक, कवी आमदार म्हणून वेंचून आयल्यात. तांकां प्रेम आनी शांतीच्या नांवान बोडोलँडाचो सांस्कृतीक विकास जावचो अशें प्रामाणिकपणान दिसता. साहित्य, कलेच्या आदारान बोडोलँडाची प्रतिमा बदलपाचो तांचो प्रयत्न चल्ला.

बोडोलँड ट्रायबल कांवसिलाचे मुखेली प्रमोद बोरो हांणी साहित्योत्सवाच्या आरंभाकूच आपली भूमिका स्पश्टपणान मांडली. ताणी म्हणलें, आयचो बोडोलँड हो खुपूच वेगळो आसा आनी तो शांतीच्या मार्गान वाटचाल करीत आसा. आमकां हो प्रदेश शांतीच्या मार्गान विकसीत करपाचो आसा. कवितेंतल्यान प्रेम आनी शांतीचो संदेश संवसारांतल्या भौसा मेरेन पावोवपाचो हेत ह्या कोक्राझार साहित्योत्सवा फाटल्यान आसा. जातीय विद्वेश, हिंसा, रक्तखेवाच्या चपक्यांत सांपडून बोडोलँडाचें आदींच खूब लुकसाण जालां. पूण फुडाराक बोडोलँड शांतीच्या मार्गान फुडें वतलो.

तीन दीस अखंड चलिल्ल्या ह्या कोक्राझार साहित्योत्सवांत मंद संगीताच्या धुनीचेर कवितांचे आगळे वेगळे तरेन सादरीकरण जालें. मुखेल माटवांत आनी उकते रंगमाचयेर कविसंमेलनां जालीं. भारतीय भाशांतल्या कवितांच्या चर्चासत्रांचोय आसपाव ह्या साहित्योत्सवांत आशिल्लो. भारतांतल्या नामनेच्या कवींनी साहित्योत्सवांत आपल्यो कविता सादर केल्यो. जेश्ट उर्दू कवी जयंत परमार, हिंदी कवी सुधीर सक्सेना, आसामी कवी बिजोय शंकर बर्मन, कोकबोरोक कवी चंद्रकांत मुरासिंग, सिंधी कवी हरीश करमचंदानी, हिंदी कवी जितेंद्र श्रीवास्तव, गुजराती कवी ध्वनील पारेख, राजस्थानी कवी मीठेश निर्मोही, पद्मजा शर्मा, मैथिली कवी पंकज कुमार, अवधी कवी बोधिसत्व, उडिया कवी सुजीत पांडा, पंजाबी कवी पॉल कौर,



हिंदी कवी नितीन सोनी, तेलगू कवी प्रसादा मूर्ती हांणी साहित्योत्सवांत आपल्या मूळ भाशेंतल्या कवितां सयत हिंदी आनी इंग्लीश अणकार सादर केले. ह्या साहित्योत्सवांत कोंकणी कवितेची घुडी हुबोवपाची संद म्हाका आसामांतल्या बि टी आर सरकारान दिली. 'तुडूंब' ही म्हजी कविता संगीताच्या धुनीचेर सादर करपाची संद म्हाका पयलेच फावट मेळ्ळी. हो अणभव अद्भूत असो आशिल्लो. त्या भायर कांय कोंकणी कवितांचे हिंदी आनी इंग्लीश अणकार सादर केले.

खंयचेय वेगळे भाशेंतल्या मूळ कवितेची भाशीक नजाकत आनी तरल संवेदना आरोह-अवरोहा सयत, ती भास समजली ना तरी, काव्यरसिकांक आनंद दिताच. त्या भायर कवितेचो आशय समजून केल्ल्या उत्कृश्ट अणकारांतल्यान, कविता एका भाशीक अवकाशांतल्यान दुसऱ्या भाशीक अवकाशांत कशी अचळय देंवन रसिकाच्या काळजाचो थाव घेवंक शकता हाचो साक्षात्कार हेर भाशांतल्या कवींच्यो कविता आयकतना जालो. कवितेच्या प्रत्येक सत्राक थळाव्या रसिकांची आशिल्ली उपस्थिती लक्ष वेधून घेताली.

साहित्योत्सवांत वेगळ्या वेगळ्या सत्रांनी सादर केल्ल्या कवितांचें सुमार तिनशे पानांचें गडगंज अशें संकलन आयोजकांनी 'खन्थाइ' ह्या नांवान समारोपाच्या सुवाळ्यांत उजवाडाक हाडलें आनी ताची एक प्रत प्रत्येक कवीक भेटयली.

'पोएट्री फॉर पीस अँण्ड लव्ह' ही संकल्पना घेवन अप्रूप अशा स्वरूपांत बोडोफा सांस्कृतीक परिसरांत एक इतिहासीक आनी यादींत उरपा सारको साहित्योत्सव घडून आयलो. साहित्योत्सवांत हेर भारतीय भाशांतल्या कवीं कडेन वळखी वाडल्यो, इश्टागतीचे संबंद आयले. बोडो भाशेंतल्या कवी, लेखकांचो उपाट मोग लाबलो. तो मोग दिसान दीस वाडत वतलो हातूंत दुबाव ना.

संपर्क : 9579138701

***

# थंडगार कुळागर

**मुकेश थळी**

सदांच थंडसाण, ओलसाण आनी एके तरेचें भिजिल्लेपण आसता अशी एक सुवात म्हळ्यार गोंयचें थंडगार कुळागर. थंड किरांव असो हो वाठार.

सगळ्यांत सोबीत माटव खंयचो असो कीज प्रस्न कोणेंय म्हाका विचारलो जाल्यार हांव तात्काळ सांगतलों - कुळागर. सैमीक माटव. पिकनिकेक वचपाची बेस बरी सुवात खंयची अशें कोणेंय म्हाका विचारलें जाल्यार जाप येतली - कुळागर.

म्हजो जल्मूच जालो कुळागरांक तेंकून आशिल्ल्या घरांत. प्रियोळा आजोळा. घराक तेंकून कुळागरांची लांबचेलांब रांक. तांकां तेंकून शेतां आनी दुसऱ्या तोंकाक ओडलायणो दोंगर. सृश्टीचो पाचवोचार पदर. ताका दिवंक फावो आदर.

कुळागरा सकयलें कारपेट सुंदरूच. पानां - ओलीं, सुकिल्लीं, फुलां, सुपारेच्या माडयेच्यो पोवल्यो, फळां, चंवर हांचो शिंवर म्हळ्यार ही सैमीक गोजडी. ह्या गालिच्याचेर केन्नाय निवांत लोडेवचें आनी फ्रेश जावचें, विसव घेवचो. कुळागराचें पांखें म्हळ्यार माड माडयांच्या चुडटांची शाकारणी. कुळागर म्हळ्यार फक्त पाचवोचार प्रांत. ग्रीनरी. मनाक काळजाक सुखावपी पोशेवपी हरीत वाठार. थंडगार वारो, गारवो हो कुळागराचो स्थायीभाव.

कुळागर म्हणजे शांतीचो थंडावो. राबितो. मन चडूच दुडूदुडू सैरभैर जावन धांवंक लागलें जाल्यार ताणें कुळागराच्या गालिच्याचेर वचून ते शितळसाणेंत आराम करचो. आरे, आगो तुजेविणें जगाच्यो राटावळी चलूंक शकतात हें स्वताक शिटकावचें आनी सैमाच्या गोपांत अंतर्मुख जावन वचचें. सगळो शीण नाच्च जातलो.

कुळागरांतलो हो गारठो, वनस्पतीची स्थितप्रज्ञता आनी मागां वेल्यान धांवपी नितळ मनाच्या उदकाची पारदर्शकता हे सैमभाव पियेवं तेन्नाच कळटलो तांचो जादू. कुळागर सदांच याद करून दित आसता - तुमी सैमाचे सहज घटक आसात. सेंद्रीय. वेगळावं नजो अशे. यंत्र न्हय. स्मार्टफोनाचे अती संगती परस शरीर, मन, भावना, संवेदना ह्या निसर्ग संकुलांत रिफ्रेश करून घेयात, स्वताक चार्ज करात, हो संदेश कुळागर दिता. झाडांच्या पानांची सोबीत गार सांवळी, रखरखीत वता पसून राखण दिता. छाया, माया कुळागर दिता. पोसो मुखार करून स्विकार करचें. झोळी दुबळी जावं नाका.

हालींच प्रियोळा कुळागरांत वचून बसलों. त्या झाडां कडेन संवाद सादलो. बरें दिसलें. ह्या कुळागराचें आनी म्हजें नातें आसा. तें पळे, बिमलांचें झाड. सामक्या ताज्या बिमलांचें घोंस हुंबकळटाले. हाताच्या पोश्यांत हांवें कांय बिमलां खुडून घेतलीं. भुरगेपणांत हांव अदींमदीं घरा हाडटालों. हुमण, रोस हांकां रूच हाडपा खातीर बिमलांचो वापर जाता. आजी ताजें ताजें लोणचें करताली. दोन फोडी तोंडाक लायतकच जेवणाक आकांताची रूच येताली.

कुळागराचे दोन माग सोडून मुखार करमलांचें झाड आशिल्लें. करमलांचें लोणचेंय जिबेर आसा. चाफ्याचें झाड अजूनय तशेंच आसा बाबडें अहंकार विरयत. मोटे नमळायेन मायेमोगान ताणें आमकां येवकार दिलो. पाटा वयलें उदक कुळागराच्या मागांतल्यान भुरूभुरू मध्य लयेंत धांवतालें. तातूंत कुकुल्या हॅलिकॉप्टरा वरी खोरवो



नाचताल्यो. वयर सकयल, मागांतल्यान फोंडयेंत. मागांचेर कितलीशीच तरांतरांची वनस्पत. उदक सामकें निवळ पारदर्शक. हांवें ओणोव घालून थोडें पोश्यांत घेतलें आनी तोंडार फसाफसा मारलें. तो गारवो भितर सांठोवन घेतलो. ती नितळ हवा फुल्मावांत गेली आनी जिवाक खुबूच बरें दिसलें.

कुळागरांत पणसाचीं दोन मोट्टीं झाडां आशिल्लीं. ऋतू येतकच तांकां रसाळ पणस लागताले. आमी मागीलदारा कोयतुलान कर्र कर्र करून पिकिल्लें रसाळ पणसूल कापून गरे खाताले. आजी केन्नाय त्या गऱ्यांतल्यान म्होंव काडून धोणस करताली. ताका घरावें साजूक तूप सारोवन आमी ब्रेकफास्टाच्या आनंद उत्सवांत आनीक रंगत हाडी.

कुळागरांत पडवळ्याचें झाड आशिल्लें. आसा. ताका तेंकून तोरंगां. तोरंगांच्यो शिरो बऱ्यो गुलाबीच आसताल्यो. रूचीक गोड. भिल्लमाड आसा. कुळागराची रांक सोंपता थंय फाटल्यान अनसांचें पोरूसूं आसा. बरीच दाट आशिल्ली ती. हालींसराक माकडांनी बी नाशाडी केल्ल्यान प्रमाण बरेंच देंवलां. त्या अनसांच्या पोरसावयर आंगण कशें एक खळें आशिल्लें. मेकळी सुवात. ती मांडा वरी निवळ करून म्हजो मामा थंय अभ्यासाक बसतालो. वरांचीं वरां अभ्यास करी. सैम सांगाताच्या पोशक वातावरणांत ताचो अभ्यास चलतालो. उपरांत हांवूय थंयच अभ्यास करपाक वचूं लागलों. लागींच आशिल्ली एक आंतेर. आंतरां पिकतकच तो तिवतिवीत गुलाबी कोर पळेतकच म्हजें अभ्यासाचेर लक्ष लागनाशिल्लें. झाडपिकी गोड गोड आंतेरां थंयच खाल्यांत हांवें. फाटल्यान जगम आशिल्ली. ताच्या फाटल्यान उश्टवारें. थंय सगळें उश्टें, उरिल्लो कोयर व्हरून उडयताले. कुळागरांत खोल खोल बरे चर म्हळ्यार उदकाचे चॅनल आशिल्ले. तुरूतुरू धांवपी उदक बरें दिसतालें. कुळागरांचें हें संगीत म्हज्या रगतांत, शिरांनी भिनलां.

सर्र सुर्र जालें काय बेठेंच हड्ड्यांत खपखपतालें. सोरोप बी न्हंय मूं.... शेड्डो वा शिल्ली बी न्हय मूं.. तरांतरांचे शेड्डे आमी कुळागरांत पळेले. जिवाण्यांची नांवां कितलींशींच. किडी मुयो, पाखे, फुलपाकुलीं, बिरमुट्यो... त्या रान-माटवांत ही संपन्न संतुळीत जैवीक संपदा आमचे जिणेंत एक सोबीत समतोल सादताली.

एप्रिल मे म्हयन्यांत तोरां लागतालीं. कुळागराक एक वेगळोच जायजायसो दिखाचो, वयार आयिल्ल्या तोरांचो वास मारतालो. आमी तोरां फातरावन मीठ बी लावन खावचीं. मागीर लागतालीं घोटां. वाटकुळींच. वारो येतकच घोंटां धडाधड पडटालीं. आमी तीं पोवलेंत भरतालीं. आजी घोंटांचें सांसव करताली. सांसवांचेय जायते प्रकार आशिल्ले. गालमो, ओडयो घालून शिजोवन केल्लें सांसव रूचीक लागतालें. घोंटांच्या रोसा पसून आंब्याचें साठ घालताले. दाट काळें चॉकलेटी साठ. दर दिसा थरांचेर थर चडटाले. तें उंच नळ्यांचेर सुकत घालताले. वयर शेवण्यां पसून कावळ्यां पसून राखण करपाक जाळी घालताले.

कुळागरांतलो वारो झुणूझुणू. सुंदर लय. माडयांक झाडांक खातकुतल्यो करीत येवपी. फुलांफळांचो रोस, चंवर, फुलांचो सुगंध पांगरून येवपी वासाळ असो हो आडांगी, मस्तो वारो आंगाक खातकुतल्यो करीत अणुरेणूंक फुलारो हाडी. शेवणीं कितल्या तरांचीं तें वळखप, मेजप कठीण. कितल्याशाच रंगांच्यो शेडी. भुर्र करून डायग्रोली उडत वचपी पिटकोळें शेवणें. मजाच. शेवण्यांचो तो चिंवचिंवाट, किलबिलाट, ऑर्केस्ट्रा मनाक थाकाय दिवपी. नाद-आनंद दिवपी. सैम संगीताचें भान जागोवपी. शेवणीं गायत आसतात. आरे शेवण्यांनो, कित्याक तुमी गातात? अशें तांकां विचारचें. शेवणीं एकसुरांत, तालांत सोमर्तीच जाप दितात - ना आमचे लागीं कितेंच उपाय, तोडगो. कसल्याच विशयाचेर. आमी गातात. कारण आमच्या कडेन गाणें आसा. कोण आयकता, कोण कितें म्हणटा हें आमी चिंतिनात...!

आगो कुळागरा... तुवें म्हाका आंगाखांदार खेळयला. म्हज्या हाडांची पोसवण तुज्या गोपांत जाल्या. तुझ्या रंध्रांरंध्रांत मायेस्त ओलसाण ओतप्रोत भरल्या. तशीच अपुरबाय म्हज्यांतूय कायम वसूं. पर्यावरण परिसर आणि निसर्ग हांचो आदर कायम म्हज्या काळजांत यादींत नंदूं...

कुळागर हें शब्दकोशांतलें निखटें सुकें उतर न्हय. तें आमचें गोंयकारांचें ओलें सैमसंगीत. त्या उतराचो अर्थ शद्बकोशांत कळना. ज्ञानकोशीय शद्बकोशांतलो वा इंटरनेटा वयलो फोटो पळोवूनय कळना. कुळागर ही आमची संस्कृती, कळपाक ताची महती, ताची जाय प्रत्यक्ष संगती, थंयच वचून उपभोग सैमसंपदा ती!

संपर्क : 9545827662

***

*(पान ४ वयल्यान)*

जातलो अशी आस्त धरूया.

२०२२ वर्सात आमची मायभास कोंकणी पयलेक सावन बारावे मेरेन सक्तीची जावची हे मागणेक नेट लावंक जाय. गोंयांतल्या पाठ्यपुस्तकांचें पुनर्लेखन करूंक जाय.

गोंयांत आमी आयटी रिसोर्ट बांदू येता. आयटी रिसोर्ट म्हळ्यार आयटी उद्देगांत काम करपी कर्मचाऱ्यांक गोंयांत रावपा खातीर, विसव घेवपा खातीर आनी वांगडा काम करपा खातीर केल्ले रिसोर्ट. गोंयांत सिंगापूरा भाशेन आंतरराष्ट्रीय आर्बिट्रेशन सेंटर जावूं येता. गोंयांत धारबांदोडा तालुक्यांत लॉजिस्टीक हब (म्हाल दवरूंक व्हडले गुदांव) जावूं येता. नुस्तेमारी कडेन कोणाचेंच लक्ष ना. सुमार १०० किलोमिटर लांबायेची दर्यावेळ आनी न्हंयो आसुनूय आमी फावो तितलें नुस्तें धरिनात.

गोंयांत चडांत चड वखदांचे आनी अन्न प्रक्रिया करपाचे कारखाने येवंक जाय. मडगांव, पणजी, म्हापशें, फोंडें आनी मुरगांव ह्या पांच शारांच्या आठ-धा किलोमिटर अंतराचेर भोवमजली इंडस्ट्रीयल इस्टेट करूं येता. हांगा Micro (अति ल्हान), Tiny (ल्हान) आनी Small (लघू) उद्देगांक थोड्या पयशां भितर सुवात दिवंक जाय.

निमाणें, २०२२ वर्सा ओमायक्रॉनाच्या रुपान कोविडाचें दुर्येस येवचें न्हय म्हणून गोंयची भूदेवी - सांतेरीक होरावया.

संपर्क: 9822102416

***

# मन कुशबनः नवें कॅलेंडर

**दादा हेगडे**



गांवचे लोक ताका 'कॅलेंडर' म्हणटाले. खरें नांव कोणूच नकळो आसले. तोंडातल्यान लेफ्ट- रायट अशीं उतरां काडीत तो रस्त्याच्या एका अर्दान चलत रावतालो. एक पिसो मनीस अशें ताका म्हणूं येता. एक दीस ताचें खाशेंलेपण म्हज्या लक्षांत आयलें. ताका चलता त्या वर्साच्या फुडल्या वर्साचो म्हयनो आनी दीस सांगत तर तो त्या दिसाची तारीख फट्ट करून सांगतालो. ती ९० प्रतिशें खरी आसताली.

पाशाण युगांत मनीस पोट भरचे पासत जनावरांची कास करतालो. त्या तेंपार मनश्याचें मुखेल काम कास करप आनी पोट भरप अशें आसलें. हाका लागून ताका एका जाग्यार वस्ती करून रावंक मेळनासलें. तो आपलो जागो बदलत आसतालो. कांस्य युगा सावन मनश्यान शेत रोवंक सुरवात केली. त्या पासत ताका एका जाग्यार थीर रावन थंय वसाहत करची पडली. पिकावळ पिकपाचो वेळ, देणे घेणे असले व्यवहार ताका आंखून दवरपाची गरज लागली. दिसावळ थारावंची पडली. फकत दीस आनी रात लक्षांत दवरपी मनीस दीस आनी राती मेजूंक लागलो.

सुमेरीयन तेंपार केल्लें कॅलेंडर हें पयलें, अशें इतीहास अभ्यासू मानीत आयल्यात. ह्या कॅलेंडरांत १२ चंद्रमास, मासांत २९ ते ३० दीस आनी पुराय वर्स हे ३६० दिसांचे आसलें. तातूंत ओले आनी सुके अशे दोन ऋतु आसले. म्हयन्याचो सातवो तसोच पंदरावो दीस हे उत्सव मनोवपाचे दीस अशें थारिल्लें. चार वर्सा उपरांत ह्या कॅलेंडरांत अदीक म्हयन्याची भर जाताली. रोमन कॅलेंडर हें कांस्य युगासावन सुरु जालें अशी समजीकाय आसा. राजा जुलियस सीजर हाणे मान्यताय दिल्लें जुलियन कॅलेंडर, लोक १५८२ मेरेन वापरताले. पोप ग्रेगरी -१३ हाणे जुलियन कॅलेंडरांत बदल हाडले. तें ग्रेगोरीयन कॅलेंडर आयज मेरेन वापरांत आसा. व्यापारा नांवान धर्मांतर ही मोख घेवन आयिल्ल्या ब्रिटीश तशेंच पुर्तुगाली लोकांनी हें ग्रेगोरीयन कॅलेंडर आमच्या माथ्यार मारलां. त्या आदीं भारत देसांत पंचांग तशेंच कनिष्क राज्याची शालिवाहन शक ही दिसावळ मानीत आयिल्ले. उजैनच्या राजान शक युग सोंपले उपरांत सुरु केल्ली विक्रम संवत्सर दिसावळ घोळणूकेंत आसली. ग्रेगोरीयन कॅलेंडरांतल्या एप्रिल म्हयन्यांत विक्रम संवत्सर दिसावळीचो पयलो म्हयनो 'चैत्र' सुरु जाता. १२ मासांच्या ह्या दिसावळींत वसंत, ग्रीष्म, वर्षा, शरद अशे चार मुखेल तशेंच हेमंत आनी शिशिर हे दोन उप ऋतु आसात. भारत देस राजकीय नजरेन स्वतंत्र जालो. तो जावंचे आदीं ब्रिटीश सरकारान भारताचे दोन कुडके केल्ले. तेवूय धर्माच्या आधाराचेर! सॅकुलर भारत सरकारान ग्रेगोरीयन कॅलेंडर आपणायलें. आयज लेगीत खूपशे लोक पंचागांवेले म्हुर्त काडून लेगीत तो 'दिनांक अमके रोजी स्टँ. टा. अमके वाजतां' अशे तरेन समजावन दितात. म्हणून भारतीयांच्या 'भिंतीवरी' ग्रेगोरीयन कॅलेंडर हुमकळत आसता.

गोंय राज्याच्या पर्यटन खात्यान गोंय हें ३६५ दिस सुटी आनी फोल्गां मारपाचे नियोजित स्थान अशें जगभर फामाद केला. परिणाम गोंयकारांक आनी कसलोच काम धंदो नासता अशें लोक अनुमान काडतात. सुशेगाद गोंयकार म्हळ्यार बेकार गोंयकार अशें तांका दिसता.

हालींच्या वर्सांनी गोयांत ३१ देझेंब्राच्या रात म्हळ्यार धुमशेणां घालपाची, खोस मनोवपाची वर्साची निमाणी रात अशी समजीकाय जाल्या. पळोवंक गेल्यार त्या रातीक खोशयेची, फोल्गाची रात हें नांव दिवन धंदेकांरानी आपलो गल्लो भरिल्लो आसता. हातूंत कांयच नवीदाद ना. त्या रातीची ताणी जोडिल्ली जोड ही हेर दिसांच्या जोडी परस चड जावं येता. गावंच्या सप्तकी बाजारांत मांड घालून आपल्यो वस्ती खपोवपी तोच मांडकार जात्रांनी आनी फेस्तांनी चड जोडिनां? ३१ देझेंब्राच्या रातीं गोंयकार, गोंयाभायले, तशेंच देसा भायले लोक गोंयच्या भोवंडे परस ती रात जागोवंक चड करून आयिल्ले दिसतात. त्या रातीं गोंयच्या सगळ्या प्रायेवेल्या दर्यांचो गाज थंयसर शॅक्सांनी मोठ्या आवाजात लायिल्ल्या इंग्लेज कातारांच्या आनी सोऱ्या बाटल्यांच्या आवाजान चिड्डून गेल्लो आसता. गावां गावांनी ईगर्जेच्या घांटीच्या आवाजांत उदेवपी फांतोड फोगोट्यो आनी हेर आवाजांत जाग हाडटा. एक वेळ असो आसलो की ग्रेगोरीयन कॅलेंडराचें वर्स त्या रातीं जरी सोपतालें, गावां गावांनी सगळे गोंयकार जात- पात विसरून ईगर्जेच्या घांटीच्या आवाजांत नव्या वर्साक येवकार दिवंक तयार रावताले. आता फोगोट्यांच्या आवाजांत ईगर्जेच्यो घांटी कानां कडेन किणी किणी इतल्योच आयकूंक येतात!

***

म्हज्या भूरगेंपणांत म्हजो आमीग आठ दिस आदी मातयेर गोणो शिंपून लाकडी फळ्याचेर पांचवोसार तणाचो गालीचो तयार करतालो. त्या पाटार सुकिल्ल्या करडाचे पाखांटे घाल्लो कोंड्या बडयांनी, केल्लो गोठो तयार जातालो. बाळक जेजू आनी हेरांच्या मातयेच्या लहानश्या मुर्तींनी तो भरतालो. २५ देझेंब्राच्या राती बंधुतायेची शिकवण दिवंचे पासत स्वतः त्रास भोगपी त्या बाळक जेजूक पळेताना डोळे भरून येताले. ल्हवू ल्हवू करीत गोठ्याचो आकार वाडत गेलो. मातयेच्या प्रतीमांचे जित्या मनश्यांत रुपांतर जायत गेलें. गांवां गावांनी थिरावलेले गोठे टेम्पोंनी भोवंक लागले. हाचो फायदो घेवन नाताळाची परब

एक गोंयची नविदाद अशी जायरात सुरु जाली आनी हें प्रस्थ वाडत गेलें. गोंयच्या नाताळ सणाचे दिसाळ्यांनी, टीवी तशेंच हेर माध्यमांनी 'क्रिसमस फेस्टिवल' केलें तेन्ना जायते जाणांक तें फिल्म फेस्टिवल अशें दिसलें जावंये. आयज तें हाताभायर वचत गेलां. सुकिल्ल्या करडाच्या पांखाट्यांच्या गोठ्याचो जागो दिखाऊ डीजीटल लायटीनीं घेतलां. बिल्डिगांच्या वंटीचेर, कॅसिनो बोटीच्यावेल्या मजल्यांनी 'हॅप्पी क्रिसमस' ह्या नांवान तो झगझगतना दिसूंक लागलां. घरांनी रेडीमेड टर्फाचेर रेडीमेड गोठे बसूंक लागल्यात. रस्तोभर आनी घरभर लोंबकळलेलीं शेकड्यांनी नखेत्रां आपल्याच उजवाडालागीं सर्त करपाक लागल्यांत. देव जेजून लेगीत पळोवंक नाशिल्लो तांबडे गुंज कपडे घाल्लो 'सांता क्लोज' नाताळाच्या परबेचें मुखेल पात्र जालां. दिश्टाव्याचें नखेत्र वचून आता थंय सांता क्लोजालो पांयमोजो दिसता. बाकीबाबाच्या कवीतेंतलें गोंय शेणत चल्ला. 'माझ्या गोव्याच्या भूमीत गड्या नारळ मधाचे, कड्या कपाऱ्या मधून घट फुटती दुधाचे' हें फाटीं पडत गेलां. बाकीबाबाची चूक मागुन सांगचे पडटा आयज नारळ आनी दुधाचो जागो बियर व्हिस्कीन घेतला. 'बार्रा बार्रातून कॅन आनी बोतल्यो फुटती बियर आनी व्हिस्कीच्या' म्हणपाची पाळी आयल्या. भोंवडेकारांची फकत एकुच मोख थारिल्ली आसा. 'गोवा जानेका भरपेट दारू पिनेका'. तांची हातूंत कांयच चूक नां. गोंयच्या पर्यटन खात्यान गोंयची जायरात हांचे परस वेगळी केल्ली दिसना. सजावटीत नैसर्गिक गजालींचो वापर कमी जावन अनैर्सगीक वापर वाडला. हें फकत नाताळा वेळार जाता अशें न्हय. गोंयच्या सगळ्या उत्सवी दिसांनी सैमिक गजालींची मनशांनी केल्ली नक्कल वाडत गेल्ली दिसता. असली अती आस नजरे आड करूं नजो. ही गजाल भिरांकूळ जायत आसा हेंवूय आमीं विसरू नजो.

३१ देझेंब्राची रात खूपशे जाण तांच्या जिणेंतली निमाणची रात जाल्या भशेन मनयतात. जानेराच्या १ तारीख मेरेन जीते उरले जाल्यार वर्सभर जगिल्ल्या तांच्या जीणेंत जसो काय मोठो नवीन बदल जातलो अशें समजतात. जागो बदल्लो तरी नशीब बदलना अशें म्हणटात. मात त्या रातीं खूप जाण हें साप्प विसरील्ले दिसतात. खरें तर दिसपट्टें उजवाडता तो प्रत्येक दीस हो नवो दीस अशें धरून जगत तर नव्या सकाळच्या हावेसाक कसलोच अर्थ उरना. देव ही काल्पनिक व्याख्या अशें जायत्या जाणांचे मत आसा. निर्जिव फातरांत तो कसो आसूं येता अशें तांचे मानप आसा. म्हाका दिसता रातीचे न्हीदल्या उपरांत सकाळी जागे जाल्या सरशी दोळ्यां सामकार दिसता तोच देव आसूं जाय. देव सोदता थंय मेळू येता. फकत जाय ती ताका सोदून काडपाची नजर आनी त्या नजरेतली तांक! उदरगत जावंक जायच. 'जोखीम ही पत्करची! जीण म्हळ्यार एक जोखीमूच. सगळ्यांत मुखार वचपी मनिसुच कितेंतरी करपी आनी साहस करपी आसता' अशें अमेरिकन बरोवपी डेल कार्नेगी म्हणटा. हें जरी खरें आसलें तरी एका त्या रातीत कांयच बदल घडना. बदलता ते फकत वंटीवेले कॅलेंडर. पोत्रे वचून नवें येता. शेवटाक आमी मनीस म्हण कितले जगले त्या परस कशे जगले हेंच म्हत्वाचे थारता.

संपर्क: 9822129070

***





# कविते विशीं

माधव बोरकार

३०-०८-२०२१

प्रत्येक कवी कवितेची व्याख्या आप-आपलेपरीन करता. तो ताचो नीज अणभव आसता. Mary Ruefle ही कवयित्री कविते सबंदान म्हण्टा: A poem is done when it stops bothering me हाचो एक अर्थ काडूं येता तो सादारणपणान असो, हांगा कवयित्री कवितेचे निर्मणी प्रक्रियेविशीं उलयता. कविता सुचप आनी ती पूर्ण जावप ह्या दोन बिंदू मदलो प्रवास जीवखायरो आसता. कवीच्या मनाचेर एके तरेचो ताण येता. पयली वळ सुचले उप्रांत कवितेची दुसरी वळ कशी आसतली हाची कवीक कसलीच कल्पना आसना. तें सगळे ताका ते कवितेचेर सोडून दिवचें पडटा.

०८-०९-२१

कविता म्हळ्यार आपल्यो यादी उमाळे, खेद, खंत हांचे दस्तावेजीकरण. कवितेंत आपणे पळयल्लो आनी अणभविल्लो काळवेळ Crystalise जाता.

१५-०९-२१

कांय कवींक कविता बरयतना निमाणे कडेन तात्पर्य काडपाची सवंय आसता. जें व्यक्त करपाचें आसता तें सगळें पयलींच सुचकतायेन कवितेंत येता. मागीर तें तात्पर्य कित्याक? बायलेची अस्मिताय आनी तिचेर जाल्लो अन्याय हो हालींचो घासून पुसून गुळगुळीत जाल्लो विशय. तातूंत नवें कितें सांगपाचें उल्लां अशें दिसना. तरी आसतना हो आशय कवितेंत केळयल्लो दिसता. पूण ही कविता खरेंच कितें नवें सांगपाचो यत्न करता अशें दिसना. आनी मागीर निमाण्या कडव्यांत आपल्याचेर कसो अन्याय जाता अशें तात्पर्य. हाका लागून बरे कवितेचे सोबीतकायेक बाधा येता. कवितेचो आशय सामाजीक आसूं वा राजकीय आसल्यार जाता. पूण तिणे आपलो कलात्मक तोल सांबाळपाक जाय. संवसारांत जीं झुजां जालीं ताचेर आजमेरेन खूप कविनीं कविता बरयल्यो. विल्फ्रेड ओव्हन, रुपर्ट ब्रुक, एडवर्ड थॉमस हे कवी ह्या संदर्भात आठवतात. हे कवी पयल्या म्हाझुजांत वांटेकार जाल्ले. तांचो कविता झुजा मळावेले अणभव व्यक्त करतात. झूज म्हळ्यार जीवाक मुळासावन हालोवन उडोवपी अणभव. हो अणभव निखटो झुजामळार प्रत्यक्ष वावुरप्यांचो आसना तर तो सामान्य मनशांचोय आसता. एडवर्ड थॉमस आपल्या एके कवितेंत बरयता.

What will they do when I am gone?
It is plain that they will do
without me as the rain
can do without the flowers and the grass....

हो कवी आपलो निखळ अणभव आमच्या मुखार दवरता. आनी कवितेचो आस्वाद घेतना आस्वादक आपसूक तात्पर्याच्या लागीं वता. आपल्या नीज अणभवांतल्यान कवितेक खरी पोसवण मेळटा हें खरेंच आसा.

एडवर्ड थॉमसाची ही कविता वाचतना भा. रा. तांबेची 'जन पळभर म्हणतील हाय हाय' ही कविता मनांत उबी रावता. दोनूय कवितांचो आशय एक. तो सार्वत्रीक अणभव व्यक्त करता, पांडुरंग भांगी हांची 'हांव वतलों' हीय त्याच आशयाची कविता आसा. आशय एक आसलो तरी तांची अभिव्यक्ती वेगळी आसा.

५ नोव्हें. २१

I think the poem is a communication between a mouth and an ear अशें लुइजा ग्लूक ही नोबेल मेळोवपी अमेरिकन कवयित्री म्हण्टा. तिचें हें विधान म्हत्वाचे आनी अर्थपूर्ण आसा. कवितेचो आस्वाद कसो घेवपाचो आसता हाचेर ती भाश्य करता. कवितेंच्या आस्वादांत आमचीं सगलीं इंद्रियां वांटेकार जातात. नाद, गंध, स्पर्श, सुवाद हांची अनुभूति एकाद्री कविता वाचतना संवेदनशील वाचप्याक येता. ती दोळ्यांक दिसता तशीच ती कानांक आयकुपाक येता.

शद्बांक वेगवेगळ्यो संवेदना दशिल्ल्यो आसतात. ताका लागून कविता वाचतना वा तिचो आस्वाद घेतना ती दिसता आनी तिचो स्पर्श जाणवता. आनी सगळीं इंद्रिया ताचो भोग घेता.

४.१२.२१

चित्रकार रेनोआर (Renoir) हाणे एक विधान केलां तें अशें "Art is about emotion, if art needs to be explained it is no longer art." कला आनी सौंदर्यानुभव हो उतरांचे पलतडी आसता. एखाद्र्या फुलाचें सौंदर्य ताच्यो पाकळ्यो मेकळ्यो करुन पळोवपाक येना अशें म्हणचें परस ताच्या सौंदर्याचो आस्वाद ताचीं शास्त्रीय कारणां सोदून मेळपाक ना. ही अवस्था मुखावेली.

रेनोआराचें हें विधान कवितेच्या आस्वादाक लागता. कवितेचें शद्ब मेकळे करुन वा वळींची विस्कटावणी करुन कवितेचो आस्वाद घेवपाक येना. ती खंय आनी केन्ना बरयली हाचो आनी तिच्या आस्वादाचो सबंद ना. तें सगळें शैली विज्ञानाचो अभ्यास. ताचो आधार घेवन कवितेचो आस्वाद घेवंचो न्हय अशें रेनोआराच्या विधानाचो अर्थ जाता. कविता ही as a whole अशी पळोवंची म्हळ्यार वाचची आनी अणभवची. तेन्नाच खऱ्या अर्थान तिचो आस्वाद घेवपाक मेळटलो. 'शास्त्र काट्या'चे कसवटेर खरें जाल्लें सत कलेचे कसवटेर धरत अशें म्हणपाक मेळना.

संपर्क : 9420222876

***

# मरण येना म्हुण!

## कथा

दामोदर मावजो

दनपार जाल्ली. वोत सामकें दुस्मान जाल्लेभशेन आंगाचे कुडके काडटालें. पोंदा जमीन आनी वयर वेळ. रांदनीचेर दवरिल्ल्या धोंडसावरी सगले जीव-हुलपताले. चारूयवटेन रखरख.

माय काबार जाला. जूनूय सोंपत आयला, पावसाचें नांव ना. धर्तरी तापल्या. उदकाक हापापल्या. तानेन तानेल्या. आशेन बावडी मळबाक दोळे लायता. पुण मळबांत एक कूप लेगीत दिश्टी पडना. रडकुरी परतता ती. पुण गळयतली म्हळ्यार दोळ्यांत एक ओलें दूक लेगीत येना.

आंबे, पणस, वड, माड सगले बावडे बावून गेल्यात. पानां झडल्यांत आनी जांचेर आसात तींय करपून गेल्यांत. आनी झाडां! मरण येनां म्हुण जियेतात. व्हडल्या रुखांची अशी गत. मागीर तणाची आनी झोंपांची खबर किते विचारता! तणान धर्तरीक केन्ना सोडिल्ली. त्या जाग्यार फकत रेंव दिश्टी पडटा. आनी झोंपां? तांच्या जाग्यार दिसतात उब्यो बडयो.

शेतां आनी मळां एकूच दिसतात. बांयो एकान एक पाडंग पडल्यात. तळीं सुकून गेल्यांत. थंयचो रेबो लेगीत सुकून फातर जाला. गांवांत रावपी मनीसजात गांव सोडून पयस गेल्या. सवणीं सगलीं दुसऱ्या देशांत गेल्यांत. गोरवां सगलीं मरून गेल्यांत. जगून वाटावन उरिल्ले जीव मरणाची वाट पळयतात.

आनी असल्या वेळार, दनपारच्या कडार एक हेवाळें आपल्या पिलाक बरोबर घेवन खंयतरी वता. सडसडीत चलता तें! असल्या वेळार आनी चलपाची माणसुकी आसा? तातूंत हेवाळें तें! सगलें आंग भुंयेक घांसून चलप ताजें. आंग सामकें लासता आसतलें. पुण हेंवाळ्याक ताजी जाणवीक आसाशी दिसना. तें पिलाक सांबाळीत फुडें सरत आसा. कोणूय पळयत जाल्यार ताका पिशांत काडलेबगर रावची नां. पुण.... आसा कोण ताका पळोवपाक थंय?

शेतांतल्यान, मळ्यांतल्यान, बांदावयल्यान तें चलता. मदींच माड दिसलो म्हणटकीर तें सावळेंत खीणभर रावन हुस्कारे सोडटा आनी पिलाक घेवन फुडें चलपाक लागता. खंय वता तें ताचे ताकाच खबर आसना.

वतां वतां ताका एक शेत लागता. आवय म्हजे! केदें व्हडले शेत हें! पुण येवजुपाक वेळ ना आनी वतांत उबें रावपाची माणसुकी ना. बांदावयलें देंवन तें आतां मेरेवयल्यान चलपाक लागता. आवय आवय! ताका पळोवपाक थंय कोणूय आसलो तर ताजी काकुळट करून



सांगलेबगर ना रावचो - "हेंवाळ्या, असल्या दनपारच्या कडार कित्याक वता तूं? पलतडीन पावशी तरी मगो? जीव वचत तुजो! फाटीं सर आनी ह्या बांदार यो. सांजमेरेन राव ह्या वडाकुशीक!..." पुण हेंवाळें तें आयकुपाक नाशिल्लें. तें उलवणें मनारूच घेवचें नाशिल्लें तें. चडशें जाल्यार वतां वतां सांगतें- "आरे बाबा, सुशेग घेवपाक वेळ कोणाक आसा? आनी वतां वतां मेलें म्हुण पर्वा कोणाक आसा? आतां मरण येना म्हुण..."

ह्या शेताच्यो मेरोय बी कोंसळ्ळ्यात. फकत रेंव लागता आंगाक. हुनहुनीत रेंव! हेंवाळ्याक याद जाता- एक दीस चणेकार जुझेल्या घरांत हुंदराच्या पिलाक धरपाक म्हुण गेल्लें तें! थंय ताणें कुशीक रावन पळयल्लें. जुझेन एक व्हड मातये बुडकुलो उज्यार दवरिल्लो. तांतून रेंव घाल्ली. ती तापतकीर ताणें तातूंत चणे ओतिल्ले आनी मागीर... चलतां चलतां आंग शिरशिल्लें ताजें. हे हुनहुनीत रेवेंत आपुणूय बी त्या चण्यांभशेन–

हुश्य! हेंवाळें हुस्काल्लें. तो पळय बांद. बांदा देगेरूच एक झाड आसा बिब्याचें. सांवळी तरी मेळटली मातशी. हेंवाळ्यान चाल सडसडीत केली. आनी तें बांदार पावले. नेट करून वयर चडलें. रुखापोंदा गेलें. आरे, पील खंय? 'आरेच्या! आत्तां आशिल्लें! आकांत आयलो ताचेर. धावलें तें बांदारसावन. पळयत जाल्यार सकलच आसा तें पील, वयर चडपाक जायना जातलें अशें म्हणून हेंवाळ्यान सकल उडकी माल्ली. आब्बा! हे अजून अशें ओग्गी कित्याक पडलां? आंगाक तोंड तेंकोवन पळय जाल्यार–

दुखी मनान हेंवाळें वयर सर्लें. त्या पिलाक घेवन वयर चडपाइतली लेगीत शक्त ताच्या आंगांत नाशिल्ली. त्या रुखापोंदा तें बसलें. येवजितां येवजितां ताका एकएक गजाल याद जावपाक लागली.

त्या पिलाचो बापूय आसतना हेंवाळ्याक कांयच उणे नाशिल्लें. मागता तें तो हाडून दितालो ताका. कितलो मोग आशिल्लो ताचो भुरग्यांचेर! पुण... देवाच्यान तें पळोवंक नज जालें. एक दीस तो खावपाक सोदूंक म्हुण भायर गेल्लो. थंय तो तानेन तानेलो. म्हुण उदक सोदूंक लागलो. एका घराकुशीक मान्यांत एक भाण आशिल्लें. तानेल्लो जीव! पोटभर उदक पितलो म्हुण ताणें तकली भाणाभितर

घाली. इतल्यांत एका दुश्ट मनशान ताचे फाटीर बडी माल्ली. फाटिचो मांडको मोडलो ताचो. तसोच लिप-लिपत तो घरा आयलो. खूब उपाय केलो– पुण...

हेंवाळ्याक दिशिल्लें आतां आपणेंय मरचें... कितें करचें आसा जितें रावन? पुण ना! मरता आसतना घोवान ताका सांगिल्लें, ह्या भुरग्यांक बरेभशेन वयर काड. हय! ह्या दोन भुरग्यांखातीर म्हाका जितें रावंकूच जाय. पुण नशिबूच फुटकें!

गीम सोंपलो पुण पावसूच ना. बांयो सुकल्यो. तळीं आटलीं. वखदाक लेगीत उदकाचो थेंब ना जालो. असल्या वेळार तरेकतरा करून हेंवाळ्यान पिलांक पोसलीं. खासा आपूण उपाशीं रावलें. पुण तांकां पोटाक माल्लीं नात. पुण जंय धतरीकूच उदक मेळना थंय ती तरी खंयच्यान दितली? उदक उदक म्हणीत एक पील गेलें. उल्लीं दोगां. पील आनी आवय. सगलो गांव रितो जालो. सोरोप दिवोड सगले गेले. उल्लें तें हेंवाळें. बावडें आज ना फाल्यां पावस आयलेबगर रावचो ना म्हुण आशेन राविल्लें. पुण सामकेंच रावं नज जालें तशें तें उठलें, सांटली-पोटली सगली उडोवन पिलाक घेवन तें भायर सल्लें, आनी... आनी आतां तें पिलूय बी ताका सोडून गेले.

हेंवाळ्याच्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळ्ळी.

''रडटा कित्याक गो तूं हेंवाळ्या? अकस्मात आवाज आयलो–

मायेस्त आवाज. हेंवाळ्याक उगडास आयलो-आपल्या घोवाचो. आनी ताच्या दोळ्यांतल्यान आनिकूय दोन दुकां गळ्ळीं.

''अशें रडूं नाका पळोवया!''

हेंवाळ्यान अजापान पळयलें. बांदार तर कोणूच ना. एक झाडलेगीत ना. फकत बिब्या झाड सोडल्यार. बिब्या झाडूच तर न्हय मू–?

''हय, हांवूच तो बिबो उलयतां. तूं रडटा कित्याक?''

भारिल्लया दोळ्यांनी हेंवाळ्यान त्या रुखाक पळयलें. ताचें दूख एकदम ल्हव जाल्लेभशेन ताका दिसलें. एक व्हड सुस्कार सोडून हेंवाळ्यान सगली गजाल ताका सांगली. बिबो! वायट दिसलें ताका आयकून. पुण करतलो कितें? सुस्कारो सोडून तो ओगीऽऽ रावलो. हेंवाळ्यान विचाल्लें. ''बिब्या, तूं एकटोच हांगा आसा? तुका वाज येना?''

''कितें करतलो? पयलीं म्हज्या सांगाताक वाली आशिल्ल्यो, झोंपां आशिल्लीं, ते देगेर एक कवातोय आशिल्लो. पुण... पुण आज हांव हांगा एकटोच आसां. दीस मेजतां, त्या कवात्याची याद जाली म्हणटकीर वायट दिसता मनाक. अजून बोंडे लेगीत येवंक नाशिल्ले ताका. गेलो बावडो!''

''विचारतां म्हुण रागार जावं नाका बिब्या. तूं जियेता कित्याक?'' हेंवाळ्यान विचाल्लें.

कांय वेळ ओगी रावन बिब्यान जाप दिली, ''म्हजे जिणेंत आतां कांयच अर्थ ना. हांव बरो जाणां, फाल्यां एक दीस हांव मरतलोंच. हांव जियेतां, हेंवाळ्या, म्हाका मरण येना म्हुण जियेतां-''

बिबो मरण येना म्हुण जियेता! आनी हांवूय मरण येना म्हुण जियेतालें. ना! हांव जियेतालें म्हज्या भुरग्यांपसत– पुण आतां म्हजो कोण आसा? हांव कित्याक जियेवं?

''म्हाका कळटा. हेंवाळ्या, तुजे विचार म्हाका कळटात. म्हजें आयक. ह्या संवसारांत जायते जीव आसात. खूब जाण निर्शेल्यात. जायते जाण आपणालीं कर्तुपां, आपणालें कर्तव्य करून मेकळे जाल्यात. पुण ते मरणाचो विचार करिनात. ते ओगी बसून जियेतात. मरणाची वाट पळयत. तुवें मरूंक फावना. म्हजें आयक, हांगासान उदेन्तेक सात आठ कोसांर एक तळें आसा. ल्हानशेंच आसा. तूं थंय वचून राव. आजूनमेरेन थंय कोण पावंक ना. आनी कोणूय पावतशें दिसना. तूं थंय राव, चल, आतां तुवें मरण येना म्हुण तरी जियेवंक जाय.''

हेंवाळें उठलें, बिब्याक पळोवन ताचे दोळे भरून आयले.

''हेंवाळ्या, म्हजें एक काम करशीत?''

''सांग, बिब्या, तूं सांगता तें आयकतां हांव. सांग, हांव हांगाच रावूं?''

''ना, हेंवाळ्या, हांगा रावल्यार तूं जियेवंचें ना. तुवें वचुकूंच जाय. पुण वचचेंफुडें म्हजें एक काम कर...'' बिब्याचो आवाज कातरतालो. ''म्हयनो जालो, म्हजेसरी कोणूच जीव येवंक ना. आज तूं आयलां. उपकार करुन म्हज्या आंगार एकूच फावट मेकळेपणान भोंव...

सरसर करून हेंवाळें वयर चडलें. तेंगशेर पावलें. खांदार चडलें. हाताचेर भोंवलें. आपलें दूख विसरून तें खेळ्ळे. नाचलें. मागीर सकल देंवलें. बिबो खुशाल भरीत जालो. एक फावट आपल्या पिलाक दोळेभर पळोवन आनी बिब्याचो अंतस्करणपूर्वेक निरोप घेवन हेंवाळें उदेन्तेक तोंड करून चलपाक लागलें.

तेंच रखरखीत वोत. सांजेवेळ जायत आयल्या पुण भूंय तितलीच हून आसा वेळ अस्तेंतेक लकला. करतां करतां सांजेवेळ जाता. वोत देंवता. ना जाता. तांबडी किरणां धतरीचेर पातळटात. सदां ह्या वेळार होंकलेवरी दिसपी धर्तरी आज हांतुणार पडिल्लया वायटकाराभशेन दिसता. सैमाक आयिल्ली ही अवकळा पळेत हेंवाळें फुडें सरता. तीनसांज जाता. रात सरता. फांतोड जाता. हेंवाळ्याक झेम येता. पुण न्हीद काडपाची माणसुकी ना. न्हिदल्यार थंयच सुस्त न्हीद लागली जाल्यार? पयलीं त्या तळ्याकडेन पावंया. आस्त! तिणें कोणांक सोडलां?

परत दनपार! परत रखरख! मात लेगीत सुशेग घेनासतना हेंवाळें वाट चलता. दनपार सरता. तिळसांज जाता. आनी... आरेच्या! तीं झाडां अशी कशा जगल्यांत ? चारूयवटेन सुक्यो बडयो कशीं झाडां आनी मदींच पांचव्या पानांचीं झाडां कशी? अजापान हेंवाळें फुडें सरता.

...हेंच तें तळें! तळ्यादेगेवयलीं झाडां हीं, म्हुण तगल्यांत बरी! जावं! पावलें निमाणेकडेन, आब्वा! आनी उदक तरी कितलें निवळ! कांय वेळ अजापभरीत जावन हेंवाळें थंयच उबें रावता. मागीर एकदम येवन फुडें सरता. ......।।।।।.. तेंकोवपाक

ताका याद येता घरकाराची. तो उदक पियेतनाच मेल्लो! भुरग्यांची-उदकाक वळवळून तांणी संवसार सोडिल्लो! आनी बिबो-उदक नासून मरता–मरणाची वाट पळयता. मरण येना म्हुण जियेता!

काळोख जाता. रात मंद पावलांनी येता. हेंवाळें फुडें सरता. उदकांत वता. कितल्या

दिसांनीं तें आयज उदक पळयता. पोटभर पियेवन घेता. नाचता, खेळटा. पेंवता. आनी दोळे झेमेतात. हेंवाळें न्हिदता.

धस्धस्! धस्धस्! फांत्यापारार हो आवाज कसलो म्हूण तकली वयर काडून पळय जाल्यार मनशां दिश्टी पडटात. भियेवन हेंवाळें तकली भितर घालता. परतून तकली वयर काड जाल्यार उदकाचो घोगो व्हांवता आनी तें उदक एका ट्रकाचेर बसयल्ले टांकयेंत पडटा. हेंवाळ्याक सट्ट जाता. ताणें आदीं पळयल्लें शेतांत पंप लावन उदक उसपितात तें! पाडा पडूं हे मनीस जातिचें. खंयच्यान तांकां ही खबर कळ्ळी देव जाणा! आतां हें उदक ते व्हरतले. इल्लें इल्लें करून सोंपतलें हें उदक! आनी...आनी...मागीर–

उदक देंवता. अर्द जाता. थोडें उरता. आनी- "आरे ते पळयात हेंवाळें!" कोणतरी आड्डता...

"बडी हाडरे ती!... तूं असो यो..."

हेंवाळें दोळे धांपता. ताका उगडास येता- घोवाचो. घोवाचेंच मरण आपणाकूय येतलें म्हूण खीणभर बरें दिसता. भुरग्यांचो उगडास येता- बरें जालें, पयलीं गेलीं तें! आनी तो बिबो! आजुनूय तो मरणाची वाट पळयत आसतलो! मरण येना म्हूण...

अं...

"शाब्बास, धपक्याक उडयलें मरे!"

संपर्क : 9422059509

***

*(पान १७ वयल्यान)*

म्हण मनीस व्हडपणांक पावना, तो मनांतल्यानूय तितलोच व्हड मनीस आसचो पडटा. तेन्नाच तो साहित्यांतल्यान आनी व्यक्ती म्हण वाचक आनी समाजा कडेन कनॅक्ट जाता. जसो भाई जाला आनी तेच पासत भाईक आज ज्ञानपीठ पुरस्कार लाबला तो तांच्या साहित्या पासत जालोच पूण चड करून तांचे भितरल्या ल्हानांक व्हडपण दिवपाच्या सभावाक लागून अशें म्हाका दिसता.

भाई कडल्यान शिकपा सारकें खूब कितें आसा, साहित्य सोडून जर तांची एखाद्री गजाल म्हाका भावता ती म्हणल्यार तांचें शैला ताईचेर आशिल्लें प्रेम. तांकां ताणी दिल्लो आदर. प्रत्येक कार्यावळींत तशेंच हेर वेळार हांवें तांकां वांगडाच पळयलां. 'अक्षर दामोदरा' वेळार लेगीत भर सभेंत आपले जिणेंत तांचे स्थान वा योगदान जे आत्मियतायेन भाई सांगताले त्या वेळार तांचे पासत आशिल्लो म्हजो आदर कितलेशेच पटीन वाडलो. असले खीण आमचे जिणेंत थोडेंच येतात. जिणेंत सहजीवन हें अशेच तरेचें आसूंक जाय म्हणपाचो विचार तांका पळोवन कोणाच्याय मनांत आयल्यार अजाप न्हय.

ज्ञानपीठ पुरस्कार हो देशांतलो साहित्या पासत आशिल्लो सगळ्यांत व्हड पुरस्कार म्हणपाचें आयकल्लें. स. रवीन्द्र केळेकार हांकां तो मेळ्ळो तेन्ना हांव तांकां मेळूंक पावलें ना. जेन्ना हो पुरस्कार तांकां मेळ्ळो म्हणटकच तो व्हड आसुंकूच जाय अशी म्हजी भुरगेमती. पूण आतां भाई मावजो हांकां तो मेळ्ळा आनी जो भाई म्हजे सारख्यांक खूब लागीं आसा तांकां तो मेळ्ळा आनी ते पासत तांचें समाजांतल्या सगल्या पांवड्यावेल्यान जें अभिनंदन जाता तें पळयल्यार हो पुरस्कार केदो व्हडलो हाची कल्पना येता. आमची कोंकणी कितली व्हडली आनी ते भाशेंतल्यान बरोवन आमचो भाई येदो व्हडलो पुरस्कार जोडटा, तशेंच भाईक हांव खूब लागशिल्ल्यान मेळ्ळां ही केदी व्हडली गजाल म्हणपाचें म्हाका कळटा तेन्ना हांव कोंकणी मळार येवन खऱ्यांनीच खूब भाग्यवान अशें म्हाका दिसूंक लागलां. हें सगळें साहित्यकार दामोदर मावजो म्हणल्यारूच म्हजो भाई मावजो हांकां लागून घडून आयलें हें हांव विसरूंक शकना. हांव जेन्ना तांकां मेळटां तेन्ना तेन्ना तांणी सांगप, बिम्बांत बरयता तशें आतां तुवें जागांतूय बरोवंक जाय. हांवें हय म्हणप आनी आतां तांचेरूच बरयिल्लो हो म्हजो लेख जागांतलो शुभारंभ थारता होवूय एक योगायोग. हांव ताका भाई मावजो हांचें अभिनंदन करपाक तांकां भेटयिल्लें एक ल्हानशेंच शब्दफूल अशें मानता.

संपर्क: 9545827662

***

*(पान १ वयल्यान)*

अशे स कथा संग्रह तांच्या नांवार आसात. सूड (१९७५) ही सुरवातेक बरयल्ली नवलिका. मुखार ते नवलिकेचेर मराठी तशेंच कोंकणी फिल्म तयार जालां. ताचे उपरांत कार्मेलीन (१९८१) ही कादंबरी बरयली. सुनामी सायमन (२००९) आनी जीव दिवं काय च्या मारूं (२०२०) ह्यो तांच्यो कादंबरी. साहित्याची ही तांची जिवन साधना.

दामोदर मावजो हे कोंकणी भाशा आनी साहित्य चळवळीचे एक प्रणेते. कोंकणीचे जेश्ट लेखक सर्गेस्त चंद्रकांत केणी हांच्या उपरांतचे पिळगेंतले ते प्रतिनिधी. अग्र स्थानार आशिल्ले एक कथा लेखक आनी बरे व्यक्ती. भाशेकडेन निश्टा दवरून समर्पीत भावनेन काम करतकच उच्च स्थरीय मान आनी सन्मान फाव जातात. कार्मेलीन हे तांचे कादंबरेक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्लो तेवेळार भाई मावज्याली पिराय आशिल्ली एकोणतीस वर्सां. आनी आतां भारतीय साहित्य मळावयलो ज्ञानपीठ हो सर्वोच्च पुरस्कार फावो जाला तेवेळार ते आतां सत्त्यातर वर्साचेर पावल्यात.

मावज्याल्या कथा साहित्यान कोंकणी कथेचें मळ सशक्त केलां. अणकाराच्या रुपान ती भारतीय पंगतीक वचून बसल्या. हेर कथाकारानी दिल्ल्या योगदानाची ताका जोड फावो जाल्ल्यान कोंकणी कथा साहित्याच्यो कक्षा रूंदावल्यात. जेश्ट लेखकानी कथेक हाडून दिल्लो दर्जो सांबाळपाची जबाबदारी आतां फुडले पिळगेची आसा. ते खातीर साधना जाय. प्रामाणीकपण जाय आनी सातत्य जाय. ह्या वेळार हें आव्हान आमी पेलतले म्हणपाचें फतर आमी भाई मावज्याक दिवंया.

संपर्क : 8390303546

***

# खबऱ्यो आनी काणयो

कृ. म. सुखठणकार



शीत, कडी आनी खबर्यो ह्यो नीज गोंयकाराच्यो मूलभूत गरजो हें सगळ्या जगाक खबरुच आसा. पुर्तुगेज हांगा आयले तेन्ना ताणी आमकां घरा सामकारा बल्कांव पयली बांदून दिले. तांचेर बसून आमी साडे चारशीं वर्सां खबऱ्यो केल्यो. चाचा नेहरुक (अजीब है गोवा के लोग फेम) गोंयाक मेकळें करपाक जाय हें याद जांवक नाशिल्लें जाल्यार आयचे तारखेक आमी बल्कांवांचेर खबऱ्यो मारीत बसतले आसले आनी पणजे पलाशींत बसून पोर्तुगेज गोंयाक फुडें कशें व्हरतले हाचेर विचार करतले आसले. सांगपाचो मुद्दो म्हणल्यार गोंयकाराक खबऱ्यो सामक्यो प्रीय.

आमी हो मृत्युलोक सोडलो तरी आमची ही गरज सरना. म्हजो आजो भायर पडटकच बाराव्याक कावळो (आजो) कसोच पिंडाक आफडीना जालो. तीन वाजले सगळ्यांच्या पोटांत हांगां कावळे (हे खरे कावळे) रडपाक लागले. आज्येक आपल्या घोवाच्या नांवान भट बोटां मोडटा तें पळोंव नजो जालें..., ''आरे पापयानो हांगां तांच्या नांवान बोटां मोडटात ते भायर वचून तांका (कावळ्याक) दोन खबऱ्यो सांगशात जाल्यार तुमच्या पोटांत दोन गोटे वचत साडे तीन म्हणसर'' आजी भितरल्यान आड्डली. सावंत ताकतिकेन भायर गेलो आनी बांदाक खावटें कशें पडलें आनी बाबलील्या शेतांत खारें उदक वचून उबें पीक कशें आडवें जालें हें कावळ्याक म्हणजेच आज्याक ताणे सांगलें. कावळो मागीर खबऱ्यो आयकत मान हालत पान पुस्सून जेवलो. आईन ताका फाटलें घेतले काय विचारलें तेन्ना तो धेंकर दीत आंतेरीर वचून बसलो अशें आई सांगऽ. म्हाका म्हज्या आज्याची व्हडवीक सांगपाची नाशिल्ली, खबर आयली म्हणून सांगलें.

पुर्तुगेज आमकां सोडून गेल्या बराबर ते बल्कांवूय गेले. बंद दारांची संस्कृती आयली म्हणटकच आमकां खबऱ्यो मारपाच्यो सुवाती बदलच्यो पडल्यो. आतां आमी नुस्त्या बाजारांत, देवळांत, मसुंदेंत, मुजी-लग्ना सारक्या सुवाळ्यांनी सुवात मेळटा थंय खबऱ्यो मारतात. पयर हांव कवळ्यां पंचमीक गेल्लों, पंचम आशिल्ल्यान शिवराक जेविल्लों. खांब्याक तेंकून बसल्यार न्हीद येतली देखून किर्तन आयकुपाक बसलो. बुवान सीता हरण विशय घेतिल्लो. हांव पावलों तेन्ना सीता माई अशोक वाटिकेंत केंस सोडून रामाच्या विरहान दुकां गाळीत बशिल्ली. हांवे म्हजो लेंस भायर काडलो...,

''आगो म्हजी स्थिती ह्या सीते भशेनूच जाता गो डीट्टो'' तेवटेन खबऱ्यो सुरु जाल्यो. हांव अशोक वाटिकेंतल्यान भायर सरुन त्या वाटेन पावलों.

''म्हणजे गो?''

''आगो, दादले सकाळीं ऑफिसांत, सून बँकेंत, नातरां केजींत. घरांत शुकशुकाट! आमी भरिल्ल्या चार चौकांच्या घरांतल्यान आयिल्लीं. फ्लॅटांत जिवाचो घुस्मटमार जाता सांगू!''

म्हाका आतां सीतेची काकुळट करची काय हिची हेंच कळना जालें. म्हाका सीतेंचें अशोक वाटिकेंत कितें जालें तेंय आयकुपाक जाय आशिल्लें आनी हेवटेन हिचो फ्लॅटांत घुस्मटमार कसो जाता तोय जाणून घेवपाक जाय आसलो. देवतेन म्हाका दोनूच कान दिवन घात केल्लो. म्हाका बुवाक मर्दीं थांबोवन हिचें पयलीं जाग्यार घालचें अशें दिशिल्लें पूण हांवे म्हजो मोह आवरलो. आमचें गोंयकारांचें अशेंच जाता, आमकां खबऱ्यो मारपाक आवडटात तश्योच त्यो आयकुपाकूय आवडटात. ह्याच खातीर मसुंदेंत भट कोणाकूच तोंड चड उगडूंक दिना. हालींच एका मसुंदेंत हांवे 'कृपया शांतता पाळा' असो बोर्ड पळेलो कारण सरणार न्हिदिल्लो खबऱ्यो आयकुपाक उठून बसपाचो धोको आसता.

आमकां काणयो सांगपाक आवडटा देखून आमी सरळ मुद्द्यार येना. सरळ मुद्द्यार आयल्यार आमी गोंयकार कसले! मे म्हयनो लागलो म्हणटकच आमगेर दोन गजाली घडटात वा दोन गजाली घडटकच आमगेर मे म्हयनो लागता म्हणल्यार जाता. एक मुंबयकार येता आनी दुसरी वीज वता. अशीच एकदां वीज गेली...

''अहो वीज गेली आनी झालं झोपेचं खोबरं!'' मुंबयकारान एका वळीन रातीं कितें जालें तें सांगून सोंपयलें. तो मुळचो गोंयकार जरी आसलो तरी मुंबय रावन ताची मती भ्रश्ट जाल्या. हीच गजाल आमगेली ही जनेलांतल्यान मिसेस पोरोबाक सांगताली... ''आगो, प्रकाश भावोजी आयला म्हणटकच ताच्या खातीर चपात्यो केल्यो आनी ताका आवडटा म्हणून तांबडे मसुरीचें तोणाक केलें. मसूर सावळ्याक बेळगांवां गेल्लो तेन्ना हाडपाक सांगिल्लें गो. हांवे सगळ्यांक वाडले, हांव आनी आई जेवलीं. ह्या दिसानी रांदचेकुडींत कितें जाता तें तुका खबरुच आसा. घामान सामकें थापो जाल्लें. शावर घेतलो, संतूर पावडर मारलो आनी बॅडरुमांत भितर सरपाक लायट गेली. रोखडेंच जळारानी गुनगुना रहे है म्हणपाक सुरु केलें. आतांची जळारां कासव छापाक बी आयकतात गो! मागीर आमी पत्ते काडले आनी मेणवात लावन गुलाम चोर खेळपाक बसलीं.''

''आमगेरुय सेम टू सेम. सकाळचें कल्लेचें हुमण आशिल्लें मुगो, कालवां फ्राय केलीं आनी आमी जेवपाक बसलीं. सुरेखा कँपाक गेलां. हांवेय शावर घेतलो, हांव हरशींय जाल्यार शावर घेतांच म्हाका आशा पारेखा सारको घाम व्हांवता. मागीर पाँड्स पावडर लायलो. हाका पाँड्स पावडराचो वास खूब भावता. संतूरुय आसा म्हजे कडेन. बॅडरुमांत भितर सरुन बाज्जेर आड पडटा थंय आसा वीज गेऽऽली. पत्ते खेळटलीं म्हणल्यार चौकटची राणी शेणल्या. हाणे आयडिया केली, जोकराचेर चौकट की राणी बरयलें आनी गाढवानी खेळपाक बसलीं. हो सतरा खेपे गाढव जालो''. - मिसेस पोरोब.

''अहो वीज गेली आनी झालं झोपेचं खोबरं!'' हें वाक्य कितलें रुक्ष तें पळेयात नाजाल्यार हिचो आनी मिसेस पोरोबाचो संवाद पळेयात.

आयकतल्याक लेगीत शावर घेवन संतूर पावडर मारुन जातकच वीज वच्ची आनी मागीर पत्यांनी खेळूंक बसचें अशेंच दिसतलें. आमकां काणयो सांगपाक आवडटा अशें हांवे म्हणलां तें हाकाच लागून. आमी विद्यार्थी दशेंत आसतना भाशा ह्या विशयांत पास जावपा पुरते गूण पडटाले कित्याक तर भाशा विशय आयलो म्हणकच निबंध आयलोच आनी निबंधांत आमचो हात धरपी कोण ना असो दत्ता म्हणटालो. दत्तान बरयल्लो 'अस्पताल में एक दीन' हो निबंध ताणे आठवेक आसतना पंचवीस गुणां खातीर बरयल्लो म्हाका अजून याद जाता. सुरवेचो चारुच वळी हांव तुमकां सांगतां... 'वह दिन आम दिनों की तरह था. माँ ने सुबह तवे की पीठ थपथपाकर चावल की भाकरी की. दादो ने, हमने नहीं नहीं खहने के बावजूद हरी मिर्च भाकरी के साथ खाई. वो जो होना था वो वही जगह पे हुआ और शुरु हुआ हमारा अस्पताल में एक दीन ढेण-टे-ढेण!' दत्तान दादोक बीकाचें दुयेंस जालें हें कितले सुंदर रितीन सांगलां तें तुमीच पळेयात. दादोन हो निबंध वाचिल्लो जाल्यार तो बिकाचें विसरुन' 'अजि सोनियाचा दिनु' म्हणटलो आशिल्लो अशें म्हाका दिसता. हांव सगळो निबंध हांगां दिना. दत्ताक ह्या निबंधाक निकम सरान (हिंदी विशारत) एकवीस गूण दिले आनी दत्ता पसतीस गूण घेवन पास जालो फकत आमचे काणयो सांगपाचे कलेक लागून.

गोंयकारां भितर पासिंयेस नांवाची गजाल ठासून भरल्या. खबऱ्यो मारतलो जाल्यार हें पासिंयेसाचें प्रमाण भरपूर जाय म्हणुनूच गोंयकार पट्टीचो खबऱ्यो मारपी. परत बायलां मदीं हें प्रमाण दादल्यां परस चड सांपडटा. ही नलू कडेन (म्हजी मेवणी लग्न जावन माहिमाक आसता, आतां मराठी उलयता) खबऱ्यो मारपाक लागतकच हिका कसलेंच भान उरना. एकदां ही अशीच फॉनार अगं नले, बरी आहेस ना, अशें म्हणून खबऱ्यांक बसली आनी आई जपाक बसली. आईचो लाख भर जप जालो, प्रभू रामचंद्र दर्शन दिवपाचो जालो तरी हांच्यो खबऱ्यो सोंपनात म्हणजे तुमीच पळेयात. दोगांयकूय खबऱ्यो मारपाक विशय लागना तशें पळेल्यार खंयच्याच गोंयकाराक लागना. मळबा सकयल जितले म्हूण विशय आसात तांचे तांच्या खबरीनी आसपाव जाता अशें म्हणपाक हरकत ना. पयरचीच गजाल सांगतां, गरमी जाता देखून हांव सालांत फेना खाला शिमिटाचे जमनीर लोळटालों (तांबडें शिमीट). ही थंयच फोनार नलू कडेन खबऱ्यो मारताली. मोबायलार चड वेळ उलयल्यार ताची बॅटरी गरम जावन डिस्चार्ज जाता देखून ही फोनार उलयता. फोन लागतकच सुरवेक हेलो हाय जालें, गोंयच्या आनी मुंबयच्या हवामानाचेर चर्चा जाली मागीर पुतीन-ट्रम्प संबंध, समग्र ना. सी. फडके, बालकवी आनी भा. रा. तांबे हांच्या कवितेंचेर तुलनात्मक चर्चा, मडगांवच्या पुरुमेंताच्या फेस्ताची आयची दशा, घटस्फोट समाजाक लागिल्ली एक कीड, जेनेरीक वखदां गोंया दोतोर कित्याक दिनात, फाटल्या संकश्टेक दोगांयनी चुकून तळिल्लीं सुंगटां खालीं ह्या योगायोगाचेर खंत अश्या विंगड विंगड विशयांचेर खबऱ्यो जाल्यो. आनी निमाणे कडेन, ''अगं आमच्या पोटभर गप्पा कधी होतच नाही,'' अशें म्हणून हिणे फोन दवरलो. म्हाकाय तें आयकून वायट दिसलें.

हांव लग्ना आदीं मावोडयां हिचो जल्माचो दाखलो मेळ्ळो काय ना ही चौकशी करपाक गेल्लों. ही चौकशी फोनारुय करूं येताली हें हांव जाणा तुमी ओगीच जिवाक त्रास करुन घेंव नाकात. मावोडयां वतकच हिचे कडेन दोन खबयों करपाक मेळटल्यो ह्या आशेन हांव गेल्लों. थंय वतकच म्हाका मन भुलवणो देखावो नदरेक पडलो. हिची आवय, मदी ही आनी नलू आगगाडयेचे डबे कशे रांकेंत उयो काडपाक आगणांत सोपाणांचेर बशिल्लीं आनी बरींऽऽ खबऱ्यानी तल्लीन जाल्लीं. उयो मारतना, ''हय गोऽ स्सूऽऽ, खरें गोऽऽ स्सूऽऽ'' असो प्रतिसाद एकामेकाक दितालीं. म्हज्या केंसानी ओगीच हुळहुळपाक लागलें आनी म्हाकाय म्हजो डबो ह्या आगगाडयेक लांवचो कसो दिसलो. ना म्हणल्यार आमी तेर्म जातकच, मिरामार नुस्त्याच्या तोंडांत बसून (जाणी मिरामारची प्राय पळेल्या तांकां आमचो हो स्पॉट कळटलो) आमी पोट भरुन खबऱ्यो मारल्यात. हीच उलयताली आनी हांव अभिमन्यू सारको हूँ हूँ करतालों. हांव म्हजे अर्धांगिनीक समजून घेतालों म्हणल्यार जाता. हांगांच म्हाका खबऱ्यो मारतां मारतां हिच्यो आवडी निवडी, हिचीं संवसारा बद्दलचीं सपनां, म्हजे कडल्यान अपेक्षा सगळें कळ्ळें. म्हणुनूच हांव सगळ्यांक लग्ना आदीं चड तोंड उगडूं नाकात म्हणून आतां सांगीत फिरतां. कित्याक तर एक म्हणजे लग्ना उपरांत उलोवपा सारकें कांयच उरना आनी दुसरें एकमेका बद्दलचो इंटरेश्ट साप्प उणो जाता. केन्ना केन्ना अपेक्षा भंग जावपाचोय धोको आसता. हिणे नुस्त्याच्या तोंडान बशिल्ले कडेन, तुजो आवडटो नट खंयचो गो ह्या म्हज्या प्रस्नाक असरानी ही जाप मेळटकच, त्या नुस्त्यान तोंड धांपून आमकां पोटांत घेवचें अशें खीण भर दिसलें. मागीर हांवे ह्या धक्क्यांतल्यान सावरत, ''बरो मुगो तुजो चोयस, म्हजो मुगो मोहन चोटी'' अशें म्हणत हांव नुस्त्याच्या तोंडांतल्यान भायर आयलों.

आतां बंद दारांची संस्कृती आयिल्ल्यान बल्कांवां ना जाल्यांत, बायलांचे केंस आतां टायफोयड जाय नासतनाच वचपाक लागल्यात म्हणटकच तांकां उयो जायनात. असल्या विंगड विंगड कारणांक लागून आमच्यो खबऱ्यो मारपाच्यो सुवाती कमी जायत आसात. आमच्या पांडुरंग म्हाल्या कडल्यान खबऱ्यो आयकत आमचे माथ्या वयले केंस बारीक जाताले. आतां तें खबऱ्यो सांगपी म्हालेय उरले नात आनी आमच्या बोडार केंसूय उरले नात. आयज सलुना गोंयच्या म्हाल्यांच्या हातांतल्यान केऽन्ना गेल्यांत. आमी आतां बोडार रेजर फिरोवन सलुनांतल्यान दोन मिणटांनी भायर सरतात. गोंय, गोंयकार, गोंयकारपण फुडें व्हरतले जाल्यार खबऱ्यांक परत आशिल्ले तशे बरे दीस येवपाक जाय. शीत, कडी आनी खबयों ह्यो गोंयकाराच्यो मूलभूत गरजो जरी आमी म्हणलें तरी खबऱ्याक आज बरे दीस दिसनात कित्याक तर गोंया आज नीज गोंयकारांचो आंकडो कमी जायत आसा. कला आनी संस्कृती खात्यान भुरग्यां खातीर खबयों कश्यो मारप हाचेर कार्यशाळा घेवप ही आज काळाची गरज जाल्ली आसा. पूण आमी सामकेच निरशेवपाची गरज ना, पयर म्हाका सावंताली नात मेळ्ळी, ''आगो हालीं तूं नाच्च मुगो'' हांवे म्हणलें. ''ताचें कितें जालें खबर आसा काका, त्या दिसा आशिल्ली उमास, आमी गेल्लीं शिरोडया...'' सावंताल्या नातीन सांगपाक सुरवात केलें आनी म्हाका भरुन आयलें.

संपर्क : 9850530756

***

# नुस्तें आनी हांव - सुवादीक अणकार

**मुकेश थळी**

नुस्तें हें गोंयचे जिणेंतल्यान, खाणांजेवणांतल्यान आनी संस्कृतायेंतल्यान वेगळें काडूंच नजो. नुस्त्याबगर आमकां उंडी वचना. नुस्त्याचे उल्लेख म्हणींनी येता. 'धोडयाऱ्याच्या कपलांत तीन फातर' हे म्हणीचो अर्थ - नशीब दुर्देवी आसतकच कितेंच काम फळाक येना.

स. गोपाळकृष्ण भोबे हांणी नुस्त्याचेर एक पुस्तक बरयलें. 'मासे आणि मी'. खूब वर्सां पयलीं. आमी कॉलेजांत आसतना हें पुस्तक वाचिल्लें. तेन्ना कोंकणी चळवळ निकतीच मूळ धरताली, विस्तारताली. तें पुस्तक वाचतकच म्हाका दिसलें की हें पुस्तक कोंकणीत आशिल्लें जाल्यार बरें सोबपाचें. कारण धबधबीत, सुकें, रांपण, हुमण असलीं उतरां आनी ताचे भोंवतणची हेर वलयांकीत आटापांत येवपी उतरावळ, दृश्यचित्रां हाका कोंकणी सुवाद आशिल्ल्यान ताचें निवेदन आनी कथन कोंकणीतूच आसचें अशें दिशिल्लें. ती गरज भागली हालींच.

कवी आनी समीक्षक सखाराम बोरकार हांणी 'नुस्तें आनी हांव' हो भोब्याल्या पुस्तकाचो बेस बरो अणकार दिलो. साहित्य अकादेमीन हें पुस्तक उजवाडायलां म्हूण ताका आनीक वजन. पुस्तक ल्हान आसा पूण ताका मत्स्यगंध आसा. माहितीच्या कप्यांक रूच सुवाद आसा.

लेखकान म्हळां की दर्या विशाल आसा. म्हान आसा. सैमाच्या सगळ्या प्राणीमात्रांचो तो जिवन दाता आसा. म्हान - म्हान विदेशी शास्त्रज्ञ, ताच्या खंयच्या तरी एका भागांत वचून, थंयच्या अदभूत वर्णनांचेर हजारांनी पानां बरयतात, तरीय तांचो तो विशय पुराय जायना. हांवें एक ल्हानसोच ख्याल गायला. आपल्या अणभवांचेर आदारून बरयलां.

हें बरप संशोधनात्मक न्हय देखून कोणेच ते नदरेन ह्या पुस्तका कडेन पळोवचें न्हय अशें लेखकान नमळायेन स्पश्ट केलां.

अणकार ही सोपी कला न्हय. ती नाट वर्सांसंकीच्या सरावान सादता. सखाराम बोरकार हे व्यासंगी. तांकां भाशेच्यो बारीकसाणी टिपपाची कुशळटाय आसा. परीपक्व अनुवादक जे तरेन अणकार दिता तशी सेवा तांणी दिल्या. ही झलक पळेयात -

'विस्वण हो नुस्त्याचो राजा. विस्वणा भशेनच 'रावस', आंगार तिबे आशिल्लो तांबसो 'गोब्रो'. अस्सल जातीचो 'गोब्रो', व्हडल्यो 'मुडदश्यो', व्हडल्यो 'खरचाण्यो', 'तांबोशी', 'पालू', 'चणाक', व्हडल्यो 'घोळश्यो', 'शेंवटे' हिवूय घरंदाज मंडळी, म्हणजे गर्भ श्रीमंता भशेन. ताचें दर्यांत वावरप लेगीत सामकें झेतान. बारीक लोकांमदीं तीं नात. तांका खावपीय लोक पैशेकार. ह्या नुस्त्याच्या चार पांच ल्हान नगांक लेगीत रुपयांनी पैशे मेजचे पडटात. आख्ख्या विस्वणाचें मोल- नगद आठ धा रुपया बोल्सांत आसले शिवाय सामान्य मनश्यान विचारचें न्हय. ह्या नुस्त्यांचें हुमण लेगीत दाटगुळो वांटप आनी आपरोस घाल्लें. सगळें कशें ज्युस्ताजुस्त प्रमाणांत घालपाक जाय.'

हें सगळें वाचता आसतना अणकार वाचतां अशें दिसचना. ही बऱ्या अणकाराची गोम आसता. समर्थ अणकाराचें यश तें हें. अणकारीत कृतीक रसाळ प्रासादीक प्रवाही धार आसपाक जाय. बोरकार हांगा यशस्वी जाल्यात. सुवादीक कोंकणीचो वापर अणकारांत जाला. देखीक - एके कडेन आयिल्लें दाटगुळो हें उतर. दाटगुळो कडी, दाटगुळो हुमण हातूंतलें दाटगुळो हें नीज कोंकणी सुवादाचें विशेशण. 'दाटगुळो' हें उतर कोंकणी शब्दकोशांत लेगीत ना. असल्या उतरांचो वापर जावंक जाय. अश्यो आनीक जायत्यो पती आसात.

खुबे, तिसऱ्यो हांचेर भोब्यान खास प्रकरणां बरयल्यांत. एका तेंपार सावय वेरें, वळवय हांगासर खुब्यांची मोट्या प्रमाणांत पैदास जाताली ताची याद हें वाचतना जाली. त्या खुब्यांच्या कल्लां पसून उपरांत चुनो बी करताले. खुबे, तिसऱ्यो हांचे वयल्यान याद जाली ती कोंडोयांची. मडगांवां राबित्याक आसतना कोंडोयोकात्र येताली. माप बी घेवन येताली. कोंडोयो रूचीक आसताल्यो. कोंडोयांचो उल्लेख पुस्तकांत ना. तशी नुस्त्यांची विविधताय आकांत. कितल्या नुस्त्यांच्या प्रकारांक लेखक आसपावीत करतलो? जांकां केल्यांत तांचें वर्णन नकसूद उतरांनी केलां. एकाच भशेन दिसपी नुस्त्याक आमी फटवतात. भोब्यान बरयलां. विस्वण आनी कोड हातूंत सारकेपण आसा. मुड्डशी आनी तोळयो, बांगडो आनी हारो, पेडवे आन्नी ताल्ले, पेडी आनी भुबरें, मोरी आनी सुणारो, बारकेले रांवस आनी राणे, पालू आनी कायेडें ह्या नुस्त्यांत खूब सारकेपण आसा.

लेखक एके कडेन म्हणटा - आदीं रांपण, कांटाळी, खुटावणी, शेंडी, पागेल, व्हडीं, व्हलीं, गाबडी अशी गांवठी उतरांची भास आयकूंक येताली. आतां यांत्रिकी नुस्तेमारी सुरू जाल्या. मूळ मराठी पुस्तक १९६६ वर्सा छापून आयिल्लें. तेन्नाच यांत्रिकी नुस्तेमारी सुरू जाल्ली, आतां आर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाचो वापर करून ती खंयच्या थरार पावल्या आसतली हाची कल्पना करूं नजो. मात मूळ नुस्त्यांचीं नांवां, तांचे संदर्भ, तांचे जिनस हातूंत कांयच फरक ना. नुस्त्याची जिबेक जाय आशिल्ली रूच तर तश्शी आसा आन्नी तशीच उरतली. कुल्ल्यो, वेल्ल्यो, ताल्ले तिसऱ्यो, खुबे, पागप, गरोवप, रांपण हें सगळें कोंकणींतल्यान वाचतना जिबेक लाळ सुटली. नुस्त्याचेर आमी उलय उलय उलयतात. खा खा खातात. नुस्त्याची रूच आनीक जागोवपी ह्या पुस्तकाच्यो प्रती म्हज्या कांय नुस्तें खावपी गोंयकारांक भेट म्हूण दिल्यो. आसाच तशें हें गोपाळकृष्ण भोब्यालें पुस्तक आनी सखाराम बोरकारालो अणकार.

**नुस्तें आनी हांव**

मूळ लेखक: गोपालकृष्ण भोबे

अणकार : सखाराम शेणवी बोरकार

उजवाडावपी : साहित्य अकादेमी, वर्स-२०२१

मोल: १७० रुपया.

संपर्क : 9545827662 ***

# कविता

## पाझर

माधव बोरकार

दोळ्यां पातयांचो आसता हट्ट
पांचवेंपण भरुन येवपाचो
दर्याची देग सोडिल्ल्या तारवाक
लागता ध्यास शेणिल्ल्या दिगंताचो

जेन्ना जाता मन बैरागी मळ
सोदता तेन्ना दिठयेचो तळ
येता झोंपय पेल्यान अज्ञाताच्या
ओंठार मांडिल्लो एखाद्री वळ.

कळटा झाडांक ऋतुचक्राची लय
उलगलो तरी भार फुलांचो
सुकिल्लें काश्ट खर वतांत ताका
फुट्टा परत पाझर आंकऱ्यांचो...
२८.४.२०

संपर्क : 9420222876

***

## स्त्रीधन

आर.एस.भास्कर

अस्तुरी आसा
आवय तुका
अस्तुरी आसा
भयण तुका
अस्तुरी आनी
पत्नी जाता
अस्तुरी तुका
धूव जाता
अस्तुरी म्हळ्यार
सर्वधन !
आनीक कित्याक
वेगळे धन ?
आनीक कित्याक
स्त्रीधन ?

संपर्क : 8891306123

***

## थिकां

मुकेश थळी

१-
बोवाळाच्या पडशी संगती
पावलटी विणें येता दुर्गती
तुजी मोख शांती
तातूंत करची वसती
तोंडभर येतली सत्याची
कांती
२-
चड वापरूं नाका
तुजी प्रज्ञा
काळजा कानांनी आयक
अंतरात्म्याची आज्ञा
३-
सत्य प्रकाशाची दिप्ती
हाडटा जिवाक तृप्ती
सत्याची वाडटा प्रिती
४-
खरो शिक्षक वाडयता
विद्यार्थ्याची ज्ञानाची भूक
प्रेमान सुदारता
विद्यार्थ्याची चूक
५-
काळजांतलें घर
तातूंत वसती कर
थंय भरल्या स्पश्टता
जो तातूंत रावता
सुंदरूच दिसता
६-
हांव करतां माफ
न्हय ताचे करणे खातीर
म्हाका वचूंक जाय मुखार
रचूंक म्हजो फुडार

संपर्क : 9545827662

***



## नवें वर्स!

-सखाराम शेणवी बोरकार

नवी उर्बा
नवे हावेस
नवी खोस
नवें वर्स!
सुर्या तोच
दिस नवो
चंद्र तोच
रात नवी!
भुंय तीच
पिक नवें
पावलां तीच
वाट नवी!
नवे आचार
नवे विचार्
कोंकणी भास
नवी आस!
नव्या वर्सा
सगळें नवें
कुड तीच
मन नवें!

संपर्क : 9923306751

***

## चित्रविचित्र चित्रनगरी

- आर. रामनाथ,

ह्या तुज्या अनंत कॅनव्हासार
तुवें चितारलेली पितारलेली
ही तुजी चित्रविचित्र चित्रनगरी
आनी तातुंतल्या
दर एक रेगांत, रंगांत, आकारांत
ओतप्रोत भरिल्लो तूं
- आनी ह्या तुज्या अनंततायेतल्या
अनंत सासायेंत
निराकारांतल्यान साकार जाल्लो हांव
रंगहीन बिंदूच्या स्वरुपांत तुज्या सामकारा
लख्ख...

संपर्क : 9850458763

***

## दोळे
उल्हास पै रायकार

तेन्नाचो तो
तुज्या दोळ्यांतलो गंधार
म्हजेच खातीर
तुर्वे लायिल्लो आसूंक जाय
नाजाल्यार तो
असो परत परत
म्हज्या काळजांत
पोरसांत खेळील्लेवरी
खेळचो नाशिल्लो
-×-
तेन्ना
तुज्या दोळ्यांत पळेतना
पांय निसरलो
मळबाचो लेगीत...
-×-
हांव
वतकच लेगीत
तुजे दोळे उरतले
सासणाचे...
तातूंत म्हजें
मळब आसा.

संपर्क : 7507441344

***

## अस्तुरी
सुभाष शाह

एका मळबांत अस्तुरी
तिची उतरांय खरीं
आपलेपणाच्या कवनांची
खरीच ती आशिल्ली कैवारी
ती बायल आशिल्ली
शेतकान्न एका शेतांतली

जायना एका कपड्यान
बायल केन्नाच म्हातारी
माथ्यार तिच्या पार्टे
मनांत संवसाराची राठी
जिवीत तिर्चे चडणां-मोडणां
तिर्चेच भोंवतणीं बेणलां.

संपर्क: 7021967880

***

## ताकाय लागता वेळ

आकाश गांवकार

आवयच्या पोटांत किल्लून
कोंब फुटपाक
णव म्हयने लागतात
पूण आवय हुतहुती जायना
ताकाय लागता वेळ

पुतालें शिक्षण
सोंपता म्हणसर
पूत पंचवीस वर्सांचो
पूण बापूय हुतहुतो जायना
ताकाय लागता वेळ.

पुताली पिराय लग्नाची
म्हूण आवय बापूय हुतहुतीं
पूण पूत म्हणटा
भट हुतहुतो जायना
ताकाय लागता वेळ.

भटान पुतालें स्वाहा
केलें म्हणटकच
आवय बापायक नातरांची आस्त
सून म्हणटा रावात
ताकाय लागता वेळ.

नातरां वांगडा धांवता आजो
पूण..
अणभवांची बडी घेवन
नातरां म्हऱ्यांत पावपाक
ताकाय लागता वेळ.

वेळाच्या भकीक
वेळ यालतां यालतां
वेळूच पिंरगता
पूण.
ताकाय लागता वेळ.



संपर्क : 7378760441

***

## मोगाचीं कवनुलां

अशोक भोंसलो

-१-
तुज्या मोनेपणाक
नदरेचो सोपूत
आयला चंवर
चंवराचोय सोपूत.
-२-
रातभर करीत रावलो
हारशा वांगडा इश्टागत
कोण आयलें
खंय आयलें
पेटोवंक म्हजी
काळजा जोत.
-३-
पावस आयलो तुगेर साकून
हांव भिजत रावलो
वत आयले तुगेर साकून
हांव सुकत गेलो.
-४-
ते म्हाका
थळ घेवन आइल्ले
हांवें तांकां सांगले -
'म्हजे मोगिकेक
विचारून येयात.'
-५-
एक पर्व यडलें
तुज्या मोगा खातीर
धाय दिकांक तूं शेणलें
म्हज्या खातीर
-६-
तुजी याद आयलिना
असो एकूय दीस उदेलोना
तुजे सपन पडलें ना
अशी एकूय 'रात' न्हिदलिना.
-७-
रंग रंगीत रंगयाळो
एक खेळ सोंपलो
गंध गंधीत गंधतिळो
तुजे म्हजे जिणेचो.

संपर्क : 9923803158

***

